# शरत्‌चंद्र चटर्जी



# बिंदूलो बाबू

कोंकणी अणकार

नरेंद्र कामत

109

# बिंदूलो बाबू

(नवलिका)

मूळ बंगाली:

**शरत्चन्द्र चटर्जी**

कोंकणी अणकार :

**नरेंद्र कामत**



**गोवा कोंकणी अकादेमी**

| | |
|---|---|
| **बिंदूलो बाबू** | **BINDULO BABU** |
| (नवलिका) | (Novelete) |
| **मूळ बंगाली :** | **Original Bangali by :** |
| शरत्‌चंद्र चटर्जी | Saradchandra Chatterji |
| **अणकार :** | **Translated by :** |
| नरेंद्र कामत | Narendra Kamat |
| **प्रकाशन क्र.** 110 | **Publication No.** 110 |
| **© नरेंद्र कामत** | **© Narendra Kamat** |
| **पयली आवृत्ती :** 2008 | **First Edition :** 2008 |
| **उजवाडावपी :** | **Publisher :** |
| गोवा कोंकणी अकादेमी,<br>243, पाटो कॉलनी,<br>पणजी, गोंय | Goa Konkani Academi,<br>243, Patto Colony,<br>Panaji, Goa. |
| **छापपी :** | **Printer :** |
| कस्तुरी ग्राफिक्स<br>ढवळी, फोंडें, गोंय | Kasturi Graphics,<br>Dhavali, Ponda - Goa. |
| **मुखचित्र :** | **Cover :** |
| श्रीधर कामत बांबोळकर | Sridhar Kamat Bambolkar |
| **मोल :** | **Price :** |
| रु. 45/- | Rs. 45/- |

## अकादेमीचे वतीन....

शरत्चंद्र चटर्जी (1876 - 1938) नामनेचे बंगाली कथाकार आनी कादंबरीकार. बंगाली कादंबरीच्या मळार तांकां खूब नामना लाबली. तांचो जल्म बंगालांतल्या एका खेड्यांत मध्यमवर्गी कुटुंबांत जालो. साहित्याचें दायज तांका तांगेल्या बापायकडल्यान लाबलें. मुळावें शिकप घेतना तांचें लक्ष शिक्षणापरस भायल्या गांवगि-या वातावरणांतूच रमतालें. घरची अर्थीक परिस्थिती दुबळी आशिल्ल्यान उंचेल्या शिक्षणाक ते वंचीत जाले. जिवितांत आयिल्ले निरशेवणेखातीर 1900 वर्सा ते संन्याशी जाले आनी भ्रमंती करूंक लागले. दोळे आनी संवेदना आशिल्लें मन उक्तें दवरून तांणी समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांची जीण लागसून नियाळ्ळी. पिडित, उपेक्षित, शोशीत, वंचित अशा भारतीय समाजाची आनी त्या काळाच्या हिंदू बायलांची दुःखां तांणी पळयलीं आनी तातुंतल्यान तांचें साहित्य निर्माण जालें. बापायल्या मर्णाउपरांत सन्याशाचीं वस्त्रां भिरकावन तांणी परतून कौटुंबिक जीणेची जापसालदारकी आपणायली.

उद्येग-वेवसायाच्या निमतान ते कलकत्ता सोडून ब्रम्हदेशांत गेले. चौदा वर्सांनी परत कलकत्याक येवन मागीर थंयच रावले आनी मुखावयली सगळी जीण साहित्याचे सेवेक ओंपली.

पिरायेच्या सतराव्या वर्सा तांणी बरोवपाक आरंभ केलो. 'बडेदिदि' हे तांगेल्या पयले नवलकथेन वाचप्याचें लक्ष ओडून घेतलें. 1914 ते 1919 ह्या काळांत तांणी जायत्यो नवलकथा बरयल्यो, त्यो उजवाडा आयल्यो आनी गाजल्यो. 'बिरज बहू', 'परिणिता', 'बिंदूर छेले', 'पंडित', 'मोशाय', 'मेजदिदि', 'निष्कृती', 'काशीनाथ', 'चरित्रहीन', 'दत्ता', 'गृहदाह', 'छवि', 'देनापोओना', 'हरिलक्ष्मी', 'पथेर दाबी', 'नवविधान', 'नारीर मूल्य', 'शेष प्रश्न', 'स्वदेश ओ साहित्य', 'विप्रदास' अश्यो तांगेल्यो रचना.

उपेक्षित समाजाचें भायलें आनी भितरलें चित्रण, मन वेधून घेवपी शैलीन, मार्मिक आनी सहृदयपणान करपी दुसरो कादंबरीकार भारतीय साहित्यांत जावंक

ना असो शरदबाबूंचो लौकिक आसा. पतित बायलांच्या भावभावनांचें दर्शन साहित्यांत घडोवपाचें कसब तांकां बरें सादलें. बंगाली साहत्याचें पोरणें लेखनतंत्र कडेक सारून तांणी आपणाल्या स्वतंत्र अशा तंत्राची आनी शैलीची बुन्याद घातली. तांगेल्या भौतेक कादंबऱ्याचे अणकार भारतीय भाशांनी जाल्यात.

मराठी भाशेंत मामा वरेरकर हांणी शरदबाबूंच्यो भौतेक कादंबऱ्यो मराठीत अणकारीत केल्यो. गोंयातल्या कोंकणी वाचकांची भूक मामा वरेरकरांच्या मराठी अनुवादांनी भागयली म्हणल्यार जाता.

कोंकणींतले आदले पिळगेंतले एक लेखक श्री. नरेंद्र कामत हांणी शरदबाबूंचें कांय साहित्य अणकारित केलां. तातूंत 'अबुध्दी', 'मदली भयण', आनी 'बिंदूलो बाबू' ह्या तीन नवलिकांचो आस्पाव आसा. आयज ह्यो तिनूय नवलिका स्वतंत्र वेगवेगळ्या तीन पुस्तकांनी उजवाडाक येतात.

अणकारपी श्री. नरेंद्र कामत स्वतः कोंकणी मराठी भाशेंत बरोवपी एक सिध्दहस्त लेखक आसात. तांगेली 'पारजातफुलां', 'देवाची करणी', 'म्हापुरूस', 'माणकां-मोतयां', 'काणी एका रत्नाची', 'देखदिण्यो काणयो', 'वांकडे म्हेडीक वांकडे नेम', अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आसात.

तांणी अणकारित केल्लो 'अबुध्दी', 'मदली भयण' आनी 'बिंदूलो बाबू' ह्यो नवलिका कोंकणी वाचप्यांक मानवतल्यो अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

यादव मुखर्जी आनी माधव मुखर्जी हे दोगूय खाशेले भाव न्हय, ही गजाल तेच न्हय, जाल्यार गांवचे लोक लेगीत विसरून गेल्ले. आडमेळ्यांची आनी कश्टांची पर्वा करीनासतना गरीब यादवान आपल्या धाकल्या भावाक-माधवाक कायद्याचें शिक्षण दिवन वकील केल्लो आनी मागीर एका व्हडल्या गिरेस्ताची एकली एकसुरी चली - बिन्दूवासिनी भावज म्हण घरांत हाडिल्ली. बिन्दूवासिनी दिसपाक खूब सुंदर आशिल्ली. कांतयल्ली मूर्त कशी.

देखणें रूप आनी धा हजारांच्यो नोटी घेवन पयल्याच दिसा जेन्ना ती घरांत आयली तेन्ना तिचे व्हडले जावेच्या अन्नपूर्वेच्या दोळयांतल्यान खोशयेचीं दुकां गळिल्लीं. घरांत मांय, नण्दुल्यो अशीं कोण नाशिल्ल्यान ती एकलीच त्या घराची घरकान्न आशिल्ली. त्या दिसा तिणें आपले धाकले जावेचे खाडकेक हात लावन तिचें तोंड शेजान्नीचे मुखार वयर काडिल्लें आनी म्हणिल्लें, 'घरांत सून येवची जाल्यार असली. ह्या लक्ष्मीच्या रुपाची.'

पुणून फुडल्या दोनूच दिसांत आपणांक दिशिल्लें तें खरें न्हय म्हणपाचें तिका कळून आयलें. पयसो आनी रूप ज्या मापान तिणें हाडलां, ताचेपरस कितल्याशा पटींनी चड अहंपण आनी व्हडविकाय ती घेवन आयल्या म्हणपाचें दोनूच दिसान सगळ्यांक कळ्ळें. व्हडले सुनेन आपल्या घोवाक एके कुशीक आपोवन व्हेलो आनी म्हळें, 'तुमी रूप आनी दुडू पळोवनूच सून घरांत हाडली? हेर कसली वासपूस केल्ली? ती काळी नागीण आसा नागीण.'

बायलेच्या सांगण्याचेर यादवान विस्वास दवरलो ना. ताणें मातशें बुड्डिलें आनी हूं, हूं करीत तो कामार गेलो.

यादव एका व्हडल्या जमीनदारागेर कारभारी म्हण काम करतालो. तो थंड

सभावाचो आनी खूब समजिकायेचो आशिल्लो. कामावयल्यान घराकडेन आयलो म्हण्टकच, आपलो चडसो वेळ तो देवाची पूजा आनी वाचन करपांत घालयतालो. माधव ताचेपरस धा वर्सांनी ल्हान आशिल्लो. हालींच तो कायद्याची परिक्षा पास जाल्लो आनी आतां वकिली करूंक लागिल्लो.

माधवानूय एक दीस भावजेक म्हळें, 'वयनी, भाऊन फकत पयशेच पळयले गे? कांय दिसांनी म्हज्यान लेगीत वकिलीचेर पयशे जोडूंक जातले!''

अन्नपूर्णा बावडी ओगीच रावली. ती आनीक कितें उलयतली? बरें, धाकले सुनेक इल्ली शिस्त लायतली म्हळ्यार आनीक एक अडचण आशिल्ली. तिका मोण्याची पिडा आशिल्ली. मातशें कितेंय तिच्या मनाआड जालें जाल्यार, ती रोखडीच दोळे वरशे करताली आनी त्यावेळार तिची काकूळत पळोवंक नज जावन दोतोराक हाडलेबगर रावूंक नज जातालें.

हें सगळें पळयतकच 'हो लग्नाचो सुवाळो म्हळ्यार एक व्हडली चुकूच जाली'. अशें घरांतल्या सगळ्या मनशांक दिसतालें. यादव मात एकलोच निर्शेवंक नाशिल्लो. तो बाकीच्यांक धीर दिवन म्हण्टालो, ''तुमकां दिसता तें खरें न्हय! मातशे रावात आनी मागीर पळयात. म्हगेली भावज म्हळ्यार साक्षात जगदंबेचें रूप आसा. हें सगळें फुकट वतलें अशें दिसता तुमकां? अशें कशें जायत?''

एक दीस घरांत कितें तरी घडिल्लें आनी धाकली सून विरूस जावन एकटीच बशिल्ली. तिच्या तोंडाकडेन नदर गेली, तशी अन्नपूर्णा सामकी भियेली. अचकीत तिका कितें येवजलें जाणा कोण, ती धावत आपले कुडींत गेली आनी देड वर्साच्या आपणाल्या पुताक न्हिदेंतल्यान उठोवन हाडून तिणें बिन्दूवासिनीचे व्हटींत घालो आनी ती थंयसून गेली.

न्हिदेंतलो उठिल्ल्यान अमूल्यचरण रडूंक लागलो, तशी बिन्दू सावचीत जाली आनी ताका बेगिबेगीन आपल्या हड्ड्याकडेन धरून कुडींत घेवन गेली.

अन्नपूर्णा तें सगळें लिपून पळयताली. बिन्दूले पिडेचेर आपणाक एक बरें वखद येवजलें म्हण ती खोशी जाली. संवसाराचो सगळो भार एकेपरीन अन्नपूर्णेचेरूच आशिल्लो. ताका लागून आपल्या चल्याचे वासपुशेक ती धड पावनाशिल्ली आनी

रातीकडेन तिका सारकी बरी न्हिद मेळ्ळी ना जाल्यार रोखडीच ती बरी ना जाताली. म्हण चल्याचो सगळो भार आतां धाकले सुनेन आपणाचेर घेतिल्लो. सुमार एका म्हयन्या उपरान्तची गजाल. एक दीस सकाळीं सकाळींच बिन्दू चल्याक हांडीर घेवन रानचेकुडींत आयली आनी तिणें जावेक विचारलें, 'दिदी, बाबूचें दूद खंय दवरलां?'

'एक मिनीटभर राव गे बाये, आत्तां दितां.' अन्नपूर्णेन म्हळें. इतल्यांत बिन्दूची नदर थंयच्या तापोवंक नाशिल्ल्या दुदाचेर पडली आनी तिणें रोखडोच आवाज चडोवन जावेक म्हळें, 'म्हाका दिस्त आठ वरांचेर दूद मेळूंक जाय, अशें तुका काल सांगूंक नाशिल्लें? आतां णव जायत आयलीं. इतलें करपाक तुका कश्ट जातात जाल्यार तशें सांग. कितेंय दुसरी तजवीज करीन!' मागीर तिणें रानपिणीकडेन पळोवन म्हळें, 'तूंवूय भानार नासता? घरांतल्या रानपाक दोन मिनटां कळाव जाल्यार अशें कितें व्हडलें नुकसान जातालें?'

रानपीण वोगीच रावली, पुणून अन्नपूर्णेन तिका जाप दिली, 'तुजेसारकें तिका भुरग्याच्या दोळ्यांत काजळ घालपाचें आनी कपलाक तिकली लावपाइतलेंच काम आशिल्लें जाल्यार, ती भानार आसतली आशिल्ली. मिनीटभरूय वेळ जावंक जायना काय कितें सूनबाय?' जावेलीं उतरां आयकून बिन्दून जाळकूटपणांनी म्हळें, 'तुका सोपूत आसा म्हज्या बाबूच्या दुदाक हे फुडें हात लायशी जाल्यार. आनी म्हाकाय सोपूत आसा तुका सांगीन जाल्यार!' अशें म्हणून तिणें बाबूक धबक करून जमनीर दवरलो आनी दूदाचें आयदन रान्नीर चडयलें.

अमूल्य रडूंक लागलो तशें ताच्या पोल्याक चिमटो काडून तिणें म्हळें, 'चूप. तोंड धाप पयलीं. आनीक रडशी जाल्यार मार घालतलीं.'.

तें आयकून घरांतली वावराडी ताका उबारूंक गेली, तशी तिकाय तिणें धपकायली. 'चल चलूंक लाग म्हजे मुखावयली.'

वावराडी बाबडी भियेली आनी फाटीं सरली. मागीर बिन्दू बाबूक वेंगेंत घेवन दूद तापोवंक लागली.

अन्नपूर्णा वोगीच रावली. बिन्दू दूद तापोवन घेवन गेली, तशें तिणें

रानपिणीक म्हळें, 'आयकलीं मगे हिगेलीं उतरां? एक दीस हांवें 'अमूल्य तुकाच घे.' अशें फकाणांनी म्हणिल्लें जाल्यार, त्या नेटार आज ही म्हाकाच सोपूत घालता.'

आनी अन्नपूर्णेलो चलो बिन्दूचे कुशींत जे तरेन वाडूंक लागलो, ताचो परिणाम असो जालो, की तो काकीक मां आनी आवयक काकी म्हणूंक लागलो.



आनी अशेतरेन चार वर्सां गेली. अमुल्याक शिकोवंक धाडपाचो सुवाळो व्हडा दबाज्यान जालो. ताच्या दुसऱ्याच दिसा रांदचे कुडीच्या दाराभायर रावन, भितर कामांत गुल्ल आशिल्ले आपले जावेक बिन्दून उलो मारून म्हळें, 'दिदी, मातशी भायर यो. बाबू तुका पायां पडूंक आयला.'

अन्नपूर्णा भायर आयली आनी चल्याचो थाट पळोवन ताचेकडेन कवतुकान पळयत रावली. दोळ्यांत काजळ, कपलाक तिकली, गळ्यांत भांगराची सरपळी, तकलेक जरीचे वेलबुट्टीची तोपी, हळडुवें पुडवें, हातांत मातयेचो तिंतेर आनी खाकेंत ल्हानशी सत्री आनी ताडाचें पान.

'दिदीक पायां पड शाण्या!' बिन्दून म्हळें, तसो अमूल्य तिच्या पाया पडलो.

'धाकले, तुका हें सगळें बरें समजता मूं! चलो शाळेंत वता दिसता!' अन्नपूर्णेन हांसून म्हळें.

'हय! गंगा पंडिताले शाळेंत वता. तागेलें शिकप सार्थकीं लागूं, असो आशीर्वाद दी ताका दिदी!' बिन्दून जावेक म्हळें. मागीर तिणें घरच्या मानायाक उलो मारून सांगलें, 'भैरू, बाबूक शाळेंत कोणूय मारीत बिरीत म्हण, ताचेर

सारकी नदर दवरपाक म्हजें नांव घेवन मास्तराक सांग! आनी दिदी, हे पांच रुपया शिद्यार दवरून कदमाकडसून मास्तरागेर धाड!' अशें म्हणून पांच रुपया जावेच्या हातांत दिले आनी बाबूची अपुर्बायेन पापी घेत, बिन्दू ताका घेवन भायर गेली.

तें पळोवन अन्नपूर्णेचे दोनूय दोळे दुकांनी भरले. ती गेली तेवटेन पळयत तिणें म्होंवाळ उतरानी म्हळें, 'हिका पापणीक बाबूबगर कितेंच येवजना. दिसूयभर ताचोच हुसको. तरी बरें हिच्या पोटांत तो जल्मूंक ना. नाजाल्यार कितें करतली आशिल्ली कोण जाणां!'

'अठराच वर्सांची आसा म्हण देवान अजून भुरगें दिवंक ना जातलें.' रानपिणीन म्हळें. म्हणसर बाबूक घेवन बिन्दू परती आयली आनी तिणें जावेक म्हळें, 'दिदी, देराक सांगून आमच्या घरांत शाळा काडूंक जावची ना गे? सगळो खर्च हांव करीन!'

अन्नपूर्णेन हांसून म्हळें, 'जालें, इतल्यानूच मन बदल्लें? तेपरस तूंच वचून, बसून राव शाळेंत.'

बिन्दू लजली. 'मन बदलूंक ना दिदी. पुणून नदरेमुखार आसप वेगळें आनी नदरेभायर आसप वेगळें न्हय? शाळेंतले भुरगे खूबच मस्ते आनी आडांगी आसतात. ल्हान ग्हण हाका ते मारीत बिरीत जाल्यार?'

अन्नपूर्णेन हांसून म्हळें, 'भुरगे झगडटातूच! सगळ्यांचे भुरगे सारकेच आसतात. तांगेले आवय बापूय तांकां शाळेंत धाडटात, जाल्यार तुका धाडूंक कितें जालां?'

दुसऱ्याल्या भुरग्यांकडेन बाबूची तुळा केल्ली बिन्दूक मानवली ना. जावेच्या उतरांनी ती दुखावली आनी तिणें म्हळें, 'तुगेलें म्हण नाका आशिल्लेंच आं दिदी. कोणेंय हाच्या दोळ्यांत पेन बी घालें जाल्यार?'

जाल्यार दोतोराक दाखोवचें. म्हजे तकलेंत मात म्हयनोभर येवजून लेगीत दोळ्यांत पेन घालपाची गजाल येवची नाशिल्ली. इतले भुरगे शिकतात. अजून

मेरेन असलें कितें आयकूंक ना. अन्नपूर्णेन तिका समजावपा खातीर म्हळें, पुणून तिका मातूय समज पडली ना. तिणें म्हळें, 'तुवें आयकलें ना म्हण तशें जावचेंचना अशें आसा? फुडें कितें जायत तें कोणाच्यान सांगूंक जाता? जावचें ना म्हण्टा तें बरेंच. पुणून जातकच मात पळोवचें पडटलें.'

'म्हाका बरें खबर आसा, तुवें एक फावट तकलेंत घेतलां तें खरें केलेबगर तूं केन्नाच रावची ना म्हण. म्हज्यान बाये असलें उरफाटें सांगूंक जावचेंना. आनी तूं कितें तुगेल्या देराकडेन उलयना अशें न्हय. तूंच सांग तांकां'.

बिन्दूक राग येवपाक इतलेंच कारण पुरो जालें.

'सांगचें पडटलेंच! नाय जाल्यार हांव म्हज्या बाबूक इतले पयस थोडीच धाडटलीं! मागीर तो शिकूं वा ना शिकूं! कोणाकूय बरें दिसूं वा ना दिसूं.' इतलें जावेक सांगून जातकच, उरिल्लो राग तिणें कदमाचेर काडलो. 'तुका शिदो पावोवन यो म्हणून सांगूंक नाशिल्लें? तोंडाकडेन पळयत कितें रावला?'

बिन्दूलो अवतार पळोवन अन्नपूर्णेन म्हळें, 'आत्तां दितां शिदो काडून. इतलें उतावीळ जावं नाका. तुगेलो बाबू केन्ना व्हडलो जावचो ना काय कितें? तूं ताका सदांच पदराआड धांपून दवरतली? मातशें येवजीय पळोवया.'

बिन्दू आपल्याच येवजुपांत आशिल्ली. तिणें कदमाक म्हळें, 'शिदो दिवन बेगीन यो ! थंय मास्तराल्या पायापोंदची इल्ली माती काडून बाबूच्या कपलाक लाय आनी ताकाय तुजेबराबर घेवन यो! आनी मास्तराक सांजवेळा हांवें आपयल्यात म्हण सांग! जाका कळटा, ताका सांगूंक बरें! कळना ताका समाजायतलो कोण? ताका कोणें मारचो न्हय अशें म्हाका दिसता. जाल्यार ही म्हण्टा, तूं ताका सदांच पदराआड धापून दवरतली? हांव कितें कोणाकडेन आतां कितें करूं म्हण, बुद्द घेवंक येवंक ना!' अशें बडबडत बिन्दू थंयसून गेली आनी अन्नपूर्णा ती गेली ते वाटेन खूंट कशी पळयत रावली.

कदमान तिका म्हळें, 'वयनीबाय, उबी कितें रावल्या? ती परती आनी येत! एक फावट तिच्या मनात आयलें म्हण्टकच, परमेश्वराच्यान लेगीत तें काडूंक जावचें ना!'

त्याच दिसाची ही गजाल. तिनसांजच्या वेळार, यादव भांगेचे घुंवळीत हातुणार पडिल्लेकडेन गुडगुडी ओडटालो, म्हणपाक दाराची खिळी वाजली.

'कोण थंय?' यादवान विचारलें, तशी अन्नपूर्णा भितर आयली.

'धाकली सून तुमकां कितें सांगूंक सोदता, आयकात!' तिणें म्हळें. पुणून बिन्दू देराकडेन उलोवंक भियेवं लागली, तशें तिणें तिच्या वाट्याचें आपणेंच सांगून उडयलें. 'तिगेल्या चल्याक दोळ्यांत भुरगे पेन घालीत म्हणून, तिका घरांतूच शाळा उगडपाची आसा.'

तें आयकून यादव गडबडलो आनी गुडगुडेची नळी बेगीबेगीन कुशीक दवरून ताणें म्हळें, 'पळोवया पळोवया, कोणें दोळ्यांत पेन घालें तें!'

अन्नपूर्णेन नळी ताच्या हातांत दिली आनी हांसून म्हळें, 'अजून घालूंक ना! फुडें घालीत म्हणपाचो हुसको!'

'आं .. आं.. आतां समजलों!'

बिन्दू दाराफाटल्यान रावन आयकताली. तिणें म्हळें, 'दिदी, येदोळ तूं म्हणटाली, आपणाच्यान अशी उरफाटी गजाल सांगूंक जावची ना म्हण! जाल्यार आतां कशी सांगली तर?'

अन्नपूर्णेक कळ्ळें, आपलें सांगप सारकें जावंक ना. ते खातीर ताचो परिणामूय सारको जावचोना! तिणें आपणांचेरूच रागार जावन म्हळें, 'भांग खातकच दोळे एक धापतात. कानूय धापतात काय कितें? हांवें सांगलें कितें आनी तुमी आयकलें कितें? 'खंय' पळोवया खंय! हांवें कितें तुमकां बाबूचे दोळे फोडले म्हण सांगिल्लें? म्हजो सगळ्याच वाटांनी कर्मभोग जाला.'

तें आयकून यादवान भियेवन विचारलें, 'कितें जालां तें सारकें सांग तरी!'

सगळें बरेंच जालां! असल्या मनशाकडेन कितें उलोवपाचें आतां? म्हज्याच नशिबाचो दोश हो! अशें म्हणून अन्नपूर्णा थंयसून गेली, तशें यादवान बिन्दूक म्हळें, 'सुनबाये, मातशें सारकें सांग पळोवया कितें जालां तें!'

दाराआड रावनूच बिन्दून म्हळें, 'भायर पडवेर एक शाळा घालीत जाल्यार...'

'पुणून ते शाळेंत शिकयतलो कोण?' यादवान अजापान विचारलें, तशें तिणें सांगलें, 'मास्तर आयिल्ले ते म्हणटाले, आपणांक म्हयन्याक धा रुपया दीत जाल्यार आपणाच्यान शाळा हांगां हाडूंक येता. हांव म्हणटालीं, म्हगेले कळंतराचे पयशे आयल्यात, तातुंतल्यान तो खर्च करूंक जातलो.'

'तशें जाल्यार बरें आसा! हांव फाल्यांच वेवस्ता करतां! गंगाराम शाळा हांगां हाडटा जाल्यार बरेंच जालें.' देराल्या सांगण्यान बिन्दूचो राग उणो जालो आनी खोशयेन हांस हांसत ती रानचे कुडींत गेली.

अन्नपूर्णा थंय गाल फुगोवन बशिल्ली आनी तिचे फुड्यांत हात वयर सकल करीत, कदम कितें तरी सांगताली. बिन्दूक पळयनाफुडें तिणें 'आवयस' केलें.

तिका भियेल्ली पळोवन बिन्दून तिचे म्हऱ्यांत वचून म्हळें, 'सांग मगे, थांबली कित्याक?' भयान कदमाची जीब लडबडली. तिणें म्हळें, 'ना सूनबाय... वयनीन विचारलें, म्हण हावें सांगलें... कितें... तें... तें...'

'सगळें जाणां हांव! चल चलूंक लाग! तुजें काम तूं कर!' कदम जीव घेवन पळ्ळी. तशें बिन्दून अन्नपूर्णेक थोमणो मारून म्हळें, घरमालकिणीक बुद्द दिवपी जायतीं जाणां आसात. देराक सांगून तांकां पगार दिवपाची वेवस्ता करची पडली.'

खोशी आसत जाल्यार बिन्दू अन्नपूर्णेक 'दिदी' म्हणटाली आनी नासत जाल्यार 'घरमालकीण'.

तिगेल्या थोमण्यात अन्नपूर्णा दुखावली. तिणें म्हळें, 'चल-चल! सांग तुगेल्या देराक! म्हजी तकली उडयतलो मूं ! तुगेलो देर पूण उणो ना! तुका पळयलेबरोबर सुरू करतलो, 'किदें सूनबाये? तूं सांगता तें सामकें खरें आं! बरें आसा! हांवें जाल्यार तुज्या असल्या बऱ्या नशिबाची खंयच पळयली ना! कितें भाग्य पळय, ल्हान जावनूय घरचें सगळें राज्य चलयता.'

अन्नपूर्णेच्या उतरांनी बिन्दूक हांसूंक आयलें तिणें म्हळें, 'पुणून तूं खंय भियेता?'

'तुगेलो दुर्गेचो अवतार पळोवन कोणाल्या रगताचें उदक जावचें ना? पुणून इतलो राग आनी गर्व बरो न्हय सूनबाय! आनी आतां तूं कितें ल्हान ना. भुरगीं जाल्लीं जाल्यार येन्नासर चार भुरग्यांची आवय जातली आशिल्ली. पुणून तुजो तरी कितें अन्याय? अन्याय त्या जाण्टेल्याचो! तुजी चड अपुर्बाय करून माथ्यार बसयल्या ताचो!'

'नशीब घेवनच तर हांवें जल्म घेतला दिदी! पयसो-अडको, माया-मोग सगळ्यांकूच मेळटा! तांतूंत व्हडलें कांयच ना! पुणून देवासारको देर मेळप हें कितल्याशाच जल्माचें फळीत आसा! म्हज्या नशिबाचो दुस्वास करूं नाका दिदी. म्हगेली तकली तांगेले तोखणायेन फिरूंक ना! ती फिरल्या तुगेले मायेन, समजलें?'

कितें सांगता गे? म्हगेली शिस्त म्हण कितें उणी ना! पुणून कितें करूं? म्हजें नशिबूच धड न्हय! कोणूच म्हजें आयकना! मानाय आनी वावराड्यो लेगीत म्हाका धपकायतात! जशे काय तेच धनी आनी हांव तांगेली वावराडी. हांवूंच म्हण हें सगळें सोसतां! आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार...

अन्नपूर्णेलें तें वित्रागाचें उलोवप आयकून बिन्दू व्हडल्या व्हडल्यान हांसूंक लागली. तिणें म्हळें, 'दिदी, तूं सत्ययुगांतली गे बाये सत्ययुगांतली! ह्या युगांत तूं कित्याक जल्माक आयल्या? पळय म्हजेकडेन कोणूच झगडटा जाल्यार!' अशें म्हणटां म्हणटां ती दिमयो मोडून बसली आनी जावेच्या गळ्यांत हात घालून तिणें म्हळें,

'दिदी, एक काणी सांग!'

'अन्नपूर्णेलो राग अजून उणो जावंक नाशिल्लो. तिणें तिका धुकलून म्हळें, 'चल चलूंक लाग हांगाची!'

इतल्यांत कदम धांवत आयली आनी तिणें म्हळें 'अमूल्यान आडकातेन बोट कातरून घेतलां आनी आतां रडूंक बसला. तें आयकना फुडें बिन्दून आकांत केलो. 'ताका आडकाती खंय मेळळी? तुमी सगळीं कितें मेल्लीं?'

'हांव कुडींत हांतूण घालतालीं. व्हडले वयनीचे कुडींत तो केन्ना गेलो ते कळ्ळेंच ना!'

बिन्दू धांवत गेली आनी बाबूच्या बोटाक कवळ बांदून, ताका वेंगेंत घेवन परतीं आयली. येवचे येवन तिणें जावेक म्हळें, 'दिदी, तुका हांवें कितल्या फावटीं सांगलें, भुरग्यांबाळांचे घर आसा! आडकाती, सुरी मातशी सारकी जाग्यार दवर म्हण! पुणून...'

अन्नपूर्णाय रागांत आशिल्ली. तिणें म्हळें, 'मेळत तें उलोवं नाका! बाबूक भियेवन सगळ्यो वस्तू कितें लोखणी पेटेंत दवरूं?'

'बरें आसा तर! फायच्यान हांव ताकाच दोरयेन बांदून दवरतां, तुगेले कुडींत वचचो न्हय म्हण!' अशें म्हणून रागान पांय आपटीत बिन्दू थंयसून गेली.

अन्नपूर्णेन कदमाक म्हळें, 'आयकलें? पळयली तिगेली दादागिरी?' कदम कितें तरी सांगूंक सोदताली, इतल्यांत बिन्दू परतून थंय आयली आनी तिणें म्हळें, 'हाचेफुडें आमच्या झगड्यांत तुवें मानाय आनी वावराड्यांक पंच केले जाल्यार, हांव तुका पयलींच सांगतां, बाबूक घेवन हांव कुळारा वतलीं आं!'.

अन्नपूर्णाय वोगी रावली ना. तिणें म्हळें, 'धपकायता कित्याक? चल न्ही? पुणून लक्षांत दवर, मागीर तुवें तकली धोडायली जाल्यारूय परती आपोंवची ना!'

'तशें जाल्यार हांव तरी कित्याक येतां!' अशें म्हणून बिन्दू थंयसून गेली. दोन वरां उपरान्त अन्नपूर्णा बिन्दूले कुडींत गेली. थंय कोनशाक आशिल्ल्या एका मेजाकडेन माधव आपल्या कागदपत्रांची फायल घेवन वाचूंक बशिल्लो आनी बिन्दू बाबूक आपले कुशींत घेवन काणी सांगताली. अन्नपूर्णेन तिका म्हळें, 'जेवणाक चल!'

'म्हाका भूक ना!' बिन्दून म्हळें. तशें अमुल्यानूय तिका वेंग मारून अन्नपूर्णेक म्हळें, 'तूं चल हांगाची! मां येवची ना!'

अन्नपूर्णेन ताका धपकायलो. 'तूं वोगी राव थंय! सगळ्या झगड्याचें मूळ

कारण तूं! चड अपुर्बाय करून ताची वाट लाय सूनबाय! मागीर कळटलें तुका! हांवें कितें सांगिल्लें ताची याद येवन मागीर रडटली आनी म्हण्टली, दिदीन सांगिल्लें तेंच खरें आशिल्लें म्हण!'

बिन्दून हळूच बाबूक शिकयलो, तशें ताणें म्हळें, 'तूं वच न्हय हांगासल्ली! मां म्हाका आतां राणयेची काणी सांगता.'

अन्नपूर्णेन जावेक शिटकायली, 'सूनबाय, बरेपण जाय, जाल्यार उठून यो! नाजाल्यार तुमकां दोगांकूय हांव फाल्यां हांगा दवरची ना!' अशें म्हणून ती चलूंक लागली.

'आज परतेंय कितें जालें?' माधवान विचारलें.

'दिदीक राग येतकच जाता तेंच! म्हजी जाल्यार, इतलीच चूक! हांवें म्हळें, भुरग्याबाळाचें घर आसा! आडकाती सुरी बी सारकी सांबाळून दवर! इतल्यांतूच हें येदें मोड आयलां!'

बिन्दूलें आयकून घेतकच माधवान तिका इतलेंच म्हळें, 'तशें जाल्यार आतां आनीक बोवाळ करीनासतना वच! वयनील्या रागाक लागून मारूं बी उठत!'

बिन्दूक कितें दिसलें जाणां कोण! ती उठली आनी बाबूक हांडीर घेवन हांसत हांसत रांदचे कुडींत गेली.



एके आवयच्या दोगां भुरग्यांनी जे भाशेन तिचे मायेचे उबेंत वाडचें, तेच भाशेन दोगां आवयांनी आपल्या एकाच भुरग्याचे मायेचे उबेंत स वर्सां काडलीं!

अमूल्य आतां व्हडलो जाल्लो. तो दुसरे यत्तेंत शिकतालो. घरांत शिकवणीय आशिल्ली. आयतार आशिल्ल्यान आज शाळेक सुटी आशिल्ली. मास्तर शिकवणी करून घरा गेलो तसो अमूल्यूय भायर गेलो.

बिन्दून आपले कुडींत रासभर कपडे पातळायल्ले आनी तातुंतल्यान ती बाबूखातीर मुस्तायकी वेंचून काडटाली. तो आज आपल्या काकाबराबर सावकाराले पार्टेक वचपाचो आशिल्लो.

'धाकले, कितें करूं सांग!' अन्नपूर्णेन थंय येवन म्हळें, तशें बिन्दून मान वयर करीनासतना विचारलें, 'कितें सांग म्हणटा?'

कूडभर पातळायल्ली मुस्तायकी पळोवन अन्नपूर्णा व्हडलीशी खोशी जाली ना. तिणें विचारलें, 'ही इतलीय मुस्तायकी बाबूचीच काय कितें?'

बिन्दून 'हय' म्हण सांगलें. त्या उतराक तिणें म्हळें, 'तूं हाचेखातीर कितले पयशे व्हगडायता गे? तुगेलें एक आंगलें गरिबाघरचो भुरगो एक वर्स घालतलो.'

तें आयकून बिन्दूक वायट दिसलें. पुणून तिणें आपणांक सांबाळून घेवन म्हळें, 'जायत बाये! गरीब आनी सावकार हांचेमदीं असो फरक आसतलोच न्हय? ते खातीर तूं कितें येवजितूच रावतली दिदी? कितें सांगूंक आयिल्ली तें बेगीन सांग पळोवया! म्हाका आतां इल्लीय फुरसत ना!'

'तुका केन्ना फुरसत आसता?' अशें म्हणून अन्नपूर्णा फडफडत भितर गेली. बाबूक सोदूंक गेल्लो भैरू ताका घेवन एका वरान परतलो.

'खंय आशिल्लो इतलो वेळ?' बिन्दून ताका विचारलें.

अमूल्य कांयच उलयलो ना.

'शेजाऱ्यांच्या भुरग्यांबराबर कोंयडे बार खेळटालो मरे?' बिन्दून ताका तापोवन विचारलें. कित्याक म्हण जाणां कोण. ती त्या खेळाक खूब भियेताली आनी तो खेळ खेळपाक तिणें ताका मना केल्लो.

'तांणी म्हाका बळयां ओडून व्हेलो.' अमूल्यान भियेत सांगलें. 'कितें म्हळें? बळयां? बरें आसा. आनीक मात वच, मागीर सांगतां तुका!' अशें म्हणून ती ताका मुस्तायकी घालूंक लागली.

दोन म्हयन्यांपयलीं अमूल्याची मूज जाल्ली. केंस नाशिल्ले तकलेर तोपी घालपाक तो तयार नाशिल्लो. पुणून बिन्दू ताचें थोडेंच आयकता? तिणें ताका ती बळयां घालीच. जरीची तोपी घालतकच तो रडूंक लागलो. इतल्यांत माधव भितर आयलो आनी ताणें विचारलें, 'अजून कितलो वेळ लागतलो?' अमूल्याकडेन नदर गेली तशें ताणें म्हळें, 'वा! हो मथुरेचो कृष्ण कन्हैया दिसपाक लागलो मूं!' बिन्दून बेजारून म्हळें, 'तो पयलींच रडटा आनी वयल्यान तुमीय.' अमूल्यान तोपी भिरकटावन मारली आनी तो खाटीर वचून न्हिदलो. माधवान म्हळें, 'बाबू, तूं कित्याक रडटा बेश्टोच? पिसो म्हळ्यार लोक म्हाका म्हणटले.'

आनीक एक फावट अशेंच जाल्लें आनी त्याय दिसा तिका राग आयिल्लो. आज परतून एक फावट तशेंच जातकच तिणें तिडकीन म्हळें, 'म्हगेलीं सगळीं कामां अशींच जातात न्हय? मागीर तिणें तेच तिडकेभितर अमूल्याचेर दोन तीन आयण्याचे दांडे मारले आनी ताच्या आंगावयली मखमलीची उंची मुस्तायकी ती देवोंवक लागली.

माधवान भियेवन वयनी म्हऱ्यांत वचून म्हळें, 'माथ्यार भूत बसलां. वचून पळय!'

अन्नपूर्णेन येवन पळयलें जाल्यार बाबू भंयान थरथरतालो आनी बि
ताका पोन्नी मुस्तायकी घालताली. तिणें म्हळें, 'काय बरो दिसतालो. कित्या
देंवयली गे ताची मुस्तायकी?'

बिन्दून बाबूक सोडलो आनी साडयेचो पदर गळ्याभोंवतणी गुठलाव
दोनूय हात एकठांयत म्हळें, 'हांव तुज्या पायां पडटां सायबिणी! हांगसून व
मातशी! सगळ्यांचे आयकूंक गेल्यार म्हगेल्या पोराचो प्राण लेगीत वचपा
आसा!'

अन्नपूर्णेक उतरूच फुटलें ना.

बिन्दून अमूल्याच्या कानाक धरून ताका एका कोनशाक व्हेलो आन
'तुगेले करणेक असलीच ख्यास्त फावता. आतां दीसभर बस हे कुडींत! दिदी,
भायर यो! म्हाका दार धापूंक जाय!' अशें म्हणून तिणें दाराक भायल्यान खिळ
घाली.

दनपारचें एक जालें, तशें अन्नपूर्णेच्यान रावंक नज जालें. तिणें बिन्दूव
म्हळें, 'बाबूक खरेपणान तूं उपाशी दवरतली? घरांतल्या लोकांकूय उपास कर
दी!'

'घरांतल्या लोकांक जाय तशें तांणी करचें!' बिन्दून म्हळें. 'कितें उलयत
गे तूं सूनबाय? घरांत अपुर्बायेचो एकलोच भुरगो! ताकाय उपाशी दवरतली?
म्हगेलें एक सोड! मानाय वावराड्यो लेगीत उपाशीं उरतल्यो. मातशें येवजून
पळय!'

'तें हांव नकळ!'

बिन्दूल्या उतरांनी 'असलें उलोवपांत कांयच अर्थ ना', हें अन्नपूर्णा समजली
मागीर तिणें जावेक समजायत म्हळें, 'आतां हें पळय, हांव व्हडली भयण अशें
समजून म्हजें इल्लेंशें आयक. आयचो दीस ताची चूक पोटांत घाल! उपासाच्य
तापान तो हांतुणार पडलो, जाल्यार तुकाच भोगचें पडटलें!'

भायर वत रखरखतालें तें पळोवन बिन्दूक मातशें थंड जावचेंच पडलें

कदमाक आपोवन तिणें म्हळें, 'चल ताका हाड! पुणून हांव तुका सांगतां दिदी, हे फुडें तुमी कोणेंय म्हज्या गजालींनीं पडूंक फावना आं! पडल्यार ताचो परिणाम बरो जावंचो ना!'

त्या दिसा झगडें आनीक वाडलें ना.

धाकल्या भावाची वकिली बरी चलूंक लागली, तशी यादवान नोकरी सोडली आनी तो घरचो कारभार पळोवंक लागलो. धाकले सुनेल्या धा हजारांचें कळांतर वाडून मुदलाचे पयशे दुपटीन जाल्ले. तातुंतले थोडेशे कुशीक काडून आनी भावाल्या थोड्याशा पयशांचो आदार घेवन, ताणें पयस एक जमनीचो कुडको विकतो घेतिल्लो आनी थंय एक चिऱ्यांचें घर बांदपाचें काम सुरू केल्लें. घर बांदून जाल्यार धायेक दीस जाल्ले. दुर्गापूजा जातकच एक बरीशी वेळ पळोवन सगळ्यांनीच थंय वचून रावपाचें थारायल्लें. एक दीस जेवता आसतना यादवान बिन्दूक म्हळें, 'सूनबाय, तुगेलें घर बांदून तयार जालां. तूं एक फावट थंय वचून पळय! कितेंय उणें बी आसत जाल्यार कळटलें.'

असल्यो गजाली आयकुपाची बिन्दूक संवंय जाल्ली. कामांत आसली जाल्यार लेगीत देर जेवंक बसलो म्हणटकच ती हातांतलें काम सोडून थंय येताली आनी दाराच्या आडोसाक वचून बसताली.

आपलो देर म्हळ्यार एक देव कसो तिका दिसतालो आनी देवाभशेनूच ती ताची भक्ती करताली. तिणें म्हळें, 'शे, शे, उणें कशें आसतलें?'

यादवान हांसून म्हळें, पळयले बगरूच सांगलें? बरें आसा तर! म्हाका दिसता, सगळ्या सोयऱ्याधायऱ्यांक आपोवचें आनी सगळ्यांनी मेळून थंय वचून, एक बरी वेळ पळोवन घरप्रवेश करचो! कशें?'

'तशें जाल्यार हांव दिदीक सांगतां. ती सांगता तशें करचें!' तें आयकून यादव हांसलो आनी ताणें म्हळें, 'आमच्या घरची लक्षुमी तूं! तुका जाय तशेंच जातलें!'

अन्नपूर्णाय थंय लागींच आशिल्ली. तिणेंय हांसून म्हळें, 'तुमी लक्षुमी

म्हणटात तें फटीचें न्हय! पुणून तुमगेली ही लक्षुमी मातशी शान्त आशिल्लें ज़ाल्यार...'

तिका मदींच आडावन यादवान म्हळें, 'शान्त आसपाची कसली गजाल करता गे तूं? साक्षात जगदंबा आसा आमची सूनबाय!'

'ती वरय दिता आनी झुजूंकय फाटीं रावना! हांवूय जाल्यार तशेंच जावं म्हणटां! तूंच पळय, सूनबाय आयिल्ल्याक आमच्या घरांत कसलेच कश्ट उरल्यात?'

अन्नपूर्णेन म्हळें, 'ना खऱ्यांनीच! ही येवचे पयलींच्या दिसांची याद करीत जाल्यार आंग सामकें शिरशिरता!'

आपली तुस्त आयकून बिन्दू लजली आनी तिणें बेगीबेगीन म्हळें, 'तुमी सगळ्यांक आपोवणीं धाडात! तें घरूय खूब व्हडलें आसा. कितलेय दीस रावले जाल्यार कोणाची आडखळ जावपाची ना!'

'तशें जाल्यार हांव फाल्यांच आपोवणीं धाडपाची तजवीज करतां! अशें म्हणून यादवान गुडगुडी हातांत घेतली.



यादवाची एक आतेभयण आशिल्ली. एलोकेशी. ती परिस्थितीन गरीब आशिल्ल्यान यादव तिका आपणाक पुटवता ते भाशेन आदार करतालो. यादवाक तिगेल्यो ज्यो चिटी येताल्यो, तातूंत ती सदांच आपलो चलो नरेन्द्र हाका तागेर दवरून शिकोवपाची इत्सा उक्तायताली.

एक दीस अचकीत ती नरेन्द्राक घेवन तागेर आयली. तिगेलो घोव प्रियनाथ खंय आनी कितें काम करता, हें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. तोवूय चार दिसांनी थंय हाजीर जालो.

नरेन्द्र तेन्ना सोळायेक वर्सांचो आशिल्लो. रूंद देगेचें पुडवें तो कमराक वाटकुळें गुठलायतालो आनी दिसांतल्यान धा बारा फावटीं केंस वळयतालो.

सांजेच्या वेळार रानचेकुडीभायर सगळीं जमिल्लीं आनी एलोकेशी आपल्या पुताच्या रुपाची आनी गुणांची तांचेमुखार तोखणाय करताली. बिन्दून मदींच विचारलें, नरेंद्र, 'तूं खंयचे यत्तेंत शिकता रे?'

'चवथे यत्तेंत! आनी जाणा मिगे मामी, रॉयल रीडर, ग्रामर, ज्योग्राफी, अरिथमेटीक, डेसिमल, ट्रेसिमल आनी कितें कितें म्हणून सांगूं? तुका तातुंतलें कांयच कळपाचें ना!' नरेन्द्रान मिजाशेंत सांगलें.

तितल्यानच एलोकेशी सामकी फुल्ली आनी तिणें बिन्दूक म्हळें, 'एकूच आसल्यार सांगूंक बरें! पुस्तकाचो दोंगोर आसा दोंगोर! बाबा, फाल्यां ट्रंकांतलीं पुस्तकां काडून दाखय आं मामीक!'

नरेन्द्रान मान हालोवन 'दाखयतां' म्हळें, तशें बिन्दून ताका परतून विचारलें, 'पास केन्नाच्याक जाशी?'

आतां नरेन्द्रावाट्याची एलोकेशीच उलयली. 'कितें सांगूं भाभी तुका, चार चार यत्ता पास जातलो आशिल्लो तो. पुणून सत्यानाश जावं त्या काळमुख्या मास्तरांचो! हाचेकडेन ते सामके विखाळे नदरेन पळयतात! ताका लागून कितेंच जमना! वयरूच चडूंक दिनात ते ताका!'

'अशें कशें तर?' बिन्दून अजापान विचारलें.

एलोकेशीन म्हळें, 'अशेंच जाता, सदांच अशेंच घडटा! सगळे मास्तर लोक खावंक सोदतात! हांव एक गरीब बायल! ताका खंयच्यान खावयतलीं? तूंच सांग!'

बिन्दू वगीच रावली. अन्नपूर्णेन मात दुखेस्त जावन म्हळें, 'अशें म्हणू

नाका! कोणाविशीं अशें म्हणूक फावना! हें सारकें न्हय! आमचे थंय अशें ना! आमगेलो बाबू जाल्यार दर वर्साक बक्षिसाचीं पुस्तकां मेळयता. आमकां पयशे बियशे खावोवचे पडनात!'

इतल्यांत अमूल्य खंयच्यान तरी येवन बिन्दूचे वेंगेंत बसलो आनी तिच्या कानाकडेन तोंड व्हरून ताणें हळूच म्हळें, 'मां गे, फाल्यां आयतार! मास्तराक आज घरा वचूंक सांग न्ही!'

'ह्या भुरग्याक पळयात! हाका खबरी आयकूंक मेळ्ळयार आनीक कांयच नाका!' बिन्दून हांसत म्हळें आनी मागीर कदमाक उलो मारून सांगलें, 'कदम, बाबू आज शिकूंक येवचो ना म्हण मास्तराक सांग!'

अमूल्य बिन्दूचे वेंगेंत बशिल्लो पळोवन नरेन्द्राक अजाप दिसलें. ताणें म्हळें, 'आरे, हें कितें अमूल्य? तूं येदो व्हडलो जालो तरिकूय बायलांचे वेंगेंत बसता?' 'इतलेंच न्हय रातचो न्हिदतना...' बिन्दू फुडें उलोवचे पयलींच अमूल्यान तिच्या तोंडार हात दवरलो आनी म्हळें, 'शी शी! तें मात सांगूं नाका आं मा!'

'बिन्दू वगी रावली, पुणून अन्नपूर्णेन सांगलेंच. 'अजुनूय आवय म्हन्यांतूच न्हिदता!'

'इतलेंच न्हय दिदी, सगळी रात पालीभशेन घट्ट वेंग मारता!' बिन्दून म्हळें. अमूल्य लजलो आनी ताणें आपलें तोंड बिन्दूच्या पदरांत धापलें.

'शी शी! कितें करता रे तूं?' अशें म्हणून नरेन्द्रान ताका चाळयलो मागीर ताणें ताका विचारलें, 'इंग्रजी शिकता रे तूं?'

'शाळेंत इंग्रजीच शिकतात न्हय रे?' अन्नपूर्णेन ताका जाप दिली आनी ताणें ताका 'इंजीन' हाचें स्पेलींग लायलें.

एलोकेशीन मदींच म्हळें, 'आरे अजून तो भुरगो आसा! तो कशें सांगतालो?'

'ना ना! ताका येता तें! सांग बाबू सांग बेगीन!' अन्नपूर्णेन आग्रो करुनूय अमूल्यान तोंड वयर केलें ना. तेन्ना बिन्दून म्हळें, 'तुमी सगळ्यांनी ताका लज केली. आतां कसो सांगतलो तो?' मागीर तिणें एलोकेशीक व्हड अभिमानान

सांगलें, 'मास्तर सांगतालो, परिक्षा जातकच ताका वीस रुपयांचें बक्षीस मेळटलें म्हणून. मागीर तोवूय आपल्या काकाभशेन एक घोडो विकतो घेतलो.'

तें आयकून कित्याक म्हण कोण जाणा, सगळींच हांसूंक लागलीं. 'म्हगेलो नरेन्द्र बरो शिकता, इतलेंच न्हय तर तो नाटकांत लेगीत कितलो बरो पार्ट करता म्हणून सांगूं! जांणी पळयलां तांकांच तें खबर आसा! हे फावटीं ताणें सीतेचो पार्ट चडूच सुंदर केल्लो. बाबा दाखय रे! मामीक मातसो तो दाखय!'

आवयन इतलें म्हणिल्लें मात, नरेन्द्रान रोखड्योच दिमयो मोडल्यो आनी दोनूय हात एकठावन तो वाक्यां उलोवंक लागलो. 'म्हज्या प्राणेश्वरा! खंयच्या बायट खिणाक तुगेली दासी...'

बिन्दून भियेवन किळांच मारली. तिणें म्हळें, 'आरे पुरो... पुरो, थांबय तें! वयर देर न्हिदला.'

नरेन्द्रान तोंड धापलें. पुणून तें सगळें पळोवन आनी आयकुनूय अन्नपूर्णा सितिदार आयली ना. तिणें म्हळें, 'देर आसल्यार कितें जालें? भगवानाची कथा ती!'

'तशें जाल्यार तुमीच आयकात ती भगवानाची कथा! हांव चल्लीं!'

अशें म्हणून बिन्दू वचपाक उठली. इतल्यांत नरेन्द्रान म्हळें, 'ती आसूं दी! आतां हांव सावित्रीचें भाशण करतां!'

बिन्दून 'नाका नाका' म्हळें, तेन्ना अन्नपूर्णेचे तकलेंत उजवाड पडलो. गजाल खूब फुडें पावल्या. आनीक फुडें गेली जाल्यार लुकसाण जावं येता. एलोकेशीक मात कितेंच समजलें ना. तिणें म्हळें, 'ज्या दिसा दादलेमनीस घराकडेन नासतले त्या दिसा करूंया. पुणून हांगा न्हय आं! गावंक आनी वाजोवंकूय शिकला तो! दमयन्तीलें रडटा आसतनाचें पद ताणें इतलें बरें म्हणिल्लें जाणा! केन्नाय आयकय आं मामीक! मागीर त्यो तुजी फाट सोडटात जाल्यार पळय!'

नरेन्द्रान उमेदीन म्हळें, 'आतां म्हणूं?'

'नाका नाका! आतां आसूं दी!' अन्नपूर्णेन ताका थारायलो!

'बरें आसा! तें पद हांव अमूल्याक शिकयतलों! हांव तबलेंय वाजोवंक जाणा आं! जाणां मामी, त्रिटीक ताल वाजोवंक खूब कठीण. हें तें पितुळचें आयदन मातशें हांगा दी! वाजोवन दाखयतां!' नरेन्द्र आयदन उबारता म्हणसर बिन्दून बाबूक खुणावन म्हळें, 'बाबू चल, भितर वचून अभ्यास कर!'

बाबू सामको तल्लीन जावन नरेन्द्राल्यो गजाली आयकतालो. ताका थंयसून वचन दिसना हें कळ्ळें, तशी बिन्दू कांयच उलयनासतना ताका घेवन कुडींत गेली. अन्नपूर्णेक सगळें समजतालें. नरेन्द्राचे संगतीक पडून अमूल्य इबाडत म्हूण ती नरेन्द्राक हांगा रावूंक दिवची ना, असोय तिका दुबाव आशिल्लो. तिणें नरेंन्द्राक म्हळें, 'बाब नरेन्द्र, तूं तुगेले धाकले मामी फुड्यांत असलीं नाटकां बिटकां करूं नाका आं! ती बेजार जाता. तिका हें असलें आवडना!'

'आं आं! तेचखातीर उठून गेली दिसता!' एलोकेशीन म्हळें.

'जावं नरेन्द्र, तूं बरें मन लावन अभ्यासं कर आं! तुका आवयचें दुख्ख पयस करपाचें आसा मूं? आनी बाबूकडेन चड इश्टागत दवरूं नाका! तो तुजेपरस ल्हान आसा न्ही?'

अन्नपूर्णेलीं उतरां आयकून एलोकेशीक वायट दिसलें. तिणें म्हळें, 'हय तर! गरीब भुरगो न्हय? ताणें गरिबाभाशेन रावूंक जाय! आनी भाभी, तूं म्हणटा म्हणून सांगतां, अमूल्य जर ल्हान भुरगो, जाल्यार नरेन्द्र कितें म्हातारो जाला गे? वर्स स म्हयन्याचें व्हडपण कितें मेजतात? आनी ताणें कितें सावकाराल्या घरचे भुरगे पळोवंक नात? होच पयलो? तागेल्या नाटकांक राजा म्हाराजाले थोडे भुरगे येनात!'

अन्नपूर्णा सामकी भिली. 'तशें न्हय, तशें हांवें म्हणूंक नाशिल्लें! हांव म्हणटालीं...'

'आनीक कितें म्हणटाली? आमी कितें इतलीं पिशीं नात, तुगेली गजाल समजुपा इतली! भाऊन सांगिल्लें म्हणून नरेन्द्राक हांगा शिकोवपाखातीर घेवन आयल्यां! नाजाल्यार थंय कितें आमचे दीस वचनाशिल्ले?'अन्नपूर्णेक सारकें उलोवंक दी नासतना एलोकेशीन तिचेर उतरांचो शिंवोर केलो.

अन्नपूर्णा सामकीच तत पप करूंक लागली, 'देवाचो सोपूत घेवन सांगतां, म्हगेल्या उतरांचो वायट अर्थ घेवं नाका! ताणें आवयचें दुख्ख उणें करचें, इतलेच खातीर हांवें म्हणिल्लें!'

'जावं कितेंय! चल रे नरेन्द्र, भायर वचून बस! आनी व्हडल्या मनांत वावरूं-बिवरूं नाका!' अशें म्हणून एलोकेशी पुताक घेवन भायर गेली आनी अन्नपूर्णा मॉड कशी बिन्दूले कुडींत धावली आनी रडत म्हणूंक लागली,

'कितें गे नात्यांतल्या सगळ्या लोकांक सोडटली तूं? थंयसून उठून कित्याक आयली... सांग पळोवया!'

'नात्यांतल्या लोकांक हांव कित्याक सोडटलीं? तुमी तांकां घेवन घरांत सुशेगाद रावात! बाबूक घेवन हांवूच खंयतरी दुसरेकडेन वचन! हेंच जाय मूं तुका?'

'खंय वतली तें आयकुंया तरी!'

'वचच्या वेळार सांगतलीं! हुस्को करूं नाका!'

'म्हाका बेस बरें खबर आसा! चार लोकांत तोंड दाखोवंक येवचें न्हय, अशेंच कितेंय तरी करतली तूं!' अशें म्हणून अन्नपूर्णा भायर आयली. इतल्यांत माधव आयलो. ताका पळयनाफुडें ती ताचेरूच उसळ्ळी ना! 'आतां तुमी खंयूय दुसरेकडेन वचून रावात! ना जाल्यार सुनेक तरी धाडात! आतां म्हज्यान जावंचे ना! समजलें?' अशें म्हणून ती चलूंक लागली.

माधवान भियेवन बायलेक विचारलें, 'कितें जालें?'

'हांव खंय जाणा? तांकांच विचारात न्ही! आतां आमकां वचपाची तयारी करूंक जाय!'

माधव वगीच रावलो आनी मेजावयलो पेपर घेवन भायले कुडींत गेलो.



एलोकेशी पळोवपाक जितली भोळी दिसताली तशी ती नाशिल्ली. भुरगें नाशिल्ले बिन्दूकडेन गडगंज पयसो आसा हें तिका कळ्ळें तशी ती तिचेकडेन बरेपण जोडूंक लागली. आपणाल्या घोवाक ती सदांच धोसताली. 'तुका लागून म्हजो सत्यानाश जालो. तुका वेंग मारून रावनासतना हांव जर पयलींच हांगा आयिल्ली, जाल्यार आज राणी जातली आशिल्ली. म्हज्या हिर्‍याभाशेन दिसतल्या पुताक सोडून ती त्या काळ्या काळकुट्या पोराक...' तिणें फुडलें उलोवप थंयच तोडलें आनी एक लांब हुस्कारो घेवन म्हळें, 'पुणून गरिबांचो देव पळयता आनी परतोय न्हिदता!'

प्रियनाथाकूय तें आपलें पिशेपण जालें अशें दिसतालें आनी येवजितां येवजितां तो बशिल्लेकडेनूच न्हिदतालो. अशेतरेन दीस वताले. धाकले सुनेवयलो एलोकेशीचो मोग न्हंयच्या हुंवाराभाशेन वाडटालो.

एकदीस दनपारच्या वेळार तिणें बिन्दूक म्हळें, 'तुगेले केंस कितले काळे आनी लांब आसात सूनबाय! तूं तांचो आंबाडो कित्याक घालिना? आज जमीनदारालीं मनशां येवपाचीं न्हय? यो हांव तुजो आंबाडो घालतां!'

'नाका नाका! म्हाका तें तसलें मानना! भुरगो जाण्टो न्ही? तो पळय जाल्यार!'

'तें आयकून एलोकेशीक अजाप जालें. तिणें म्हळें, 'अशें कितें म्हण्टा सूनबाय? भुरगो जाणटो जाल्यार चलया सुनांनी आंबाडे घालचे न्हय काय कितें? दुस्मानाच्या तोंडाक चुडटी लागूं! म्हगेलो नरेन्द्र ताचेपरस स म्हयन्यांनी व्हडलो आसलो म्हूण हांव कितें आंबाडो घालपाची सोडूं?'

'तशेखातीर म्हणना! नरेन्द्राली गजाल वेगळी! तो तुका सदांच पळयत आयला. पुणून बाबून आज म्हाका आंबाडो घाल्ली पळयत जाल्यार हांव ताका वेगळीच दिसतलीं! सांगूंक नज, किंळाच्यो लेगीत मारपाक आसा तो! मागीर ती लजेची गजाल जातली.'

इतल्यांत थंय अन्नपूर्णा आयली. बिन्दूकडेन पळयनाफुडें ती थंयच थांबली आनी तिणें म्हळें, 'तुजे दोळे अशे कितें दिसतात गे धाकले? मातसो आंगाक हात लावन पळोवया!'

'सदां सदां आंगाक हात लावन कितें पळयता गे दिदी? हांव आतां कितें ल्हान आसां? जिवाक बरें नाजाल्यार म्हाका कळचें ना?'

'शे शे! हांव तशें खंय म्हणटां? ल्हान खंयची? म्हातारी जाली न्हय तूं आता! हे दीस बरे न्हय!'

'तुका सांगलें न्हय दिदी, म्हाका कांयच जावंक ना म्हण!'

'सारकें समजून घे! लिपोवं नाका! नाजाल्यार कित्याचेरय पडत!' अशें म्हणून अन्नपूर्णा गेली.

'व्हडलेक मदीं मदीं तुजी तिडक येता काय कितें? कित्याखातीर?'

बिन्दूक एलोकेशीलें विचारप मानलें ना. तिणें म्हळें,'देवान सगळ्यांकूच अशी तिडक येवपाची बुद्द दिवं!'

एलोकेशी मनांत समजली आनी वगी रावली.

अन्नपूर्णा तेवटेनच्यान वतना तिका उलो मारून बिन्दून म्हळें, 'दिदी..., दिदी, मातशें आयक! आंबाडो घालून घेतली तूं?'

तें आयकून अन्नपूर्णा थंयच थांबली. तिका सगळें समजलें आनी तिणें एलोकेशीक म्हळें, 'हांवें तुका सांगलें ना! हिका कितेंय सांगप म्हळ्यार फुकट! काय बरे केंस आसात, पुणून बांदची ना! कापड चोपड वस्ती आसात, पुणून त्यो केन्ना घालची ना! इतलें सुंदर रूप आसा पुणून नटपथटप ना! ही संवसाराभायली

वेगळीच! चलोय हिचेचभाशेन! त्या दिसा म्हणटालो, 'कपडे वापरून कितें जावपाचें आसा? मांकडेन इतलें सगळें आसा, पुणून ती खंय घालता?'

बिन्दून अभिमानान मान वयर करून म्हळें, 'तशी गजाल न्हय दिदी! भुरग्याक व्हड मनीस करपाखातीर आवयक संवसाराभायली जावचीच पडटा! दिदी, देवान करीत जाल्यार एक दीस पळयतली तूं, संवसारांतले सगळे लोक म्हजेकडेन बोट दाखोवन म्हणटले, 'ही पळयात अमूल्याची मां!' उलयतां उलयतां बिन्दूचे दोळे दुकांनी थपथपले.

अन्नपूर्णेन म्हळें, 'म्हणुनूच हांव तुगेल्या अमूल्याविशीं कांयच उलयना. देवान करूं आनी तुगेली इत्सा फळाक येवं! पुणून हांव हें असलें कांय येवजिना आं!'

'पुणून दिदी, हांव मात हे एकेच आशेचेर दीस काडटां. अशें म्हण्टां म्हण्टां तिगेल्या सगल्या आंगाचेर कांटो फुल्लो. ती लजली आनी तिणें म्हळें, 'म्हजे हे आशेक धसको लागत जाल्यार, म्हाका पिशें लागतलें दिदी!'

अन्नपूर्णा तिचेकडेन पळयत रावली. ती आपले जावेक वळखनाशिल्ली वा तिचें मन समजनाशिल्ली अशें न्हय. पुणून तिच्या मनांत कितें घोळटा, हें हाचेपयलीं इतल्या उक्तेपणान तिका कळूंक नाशिल्लें. ती अमूल्याक इतली कित्याक जपता हें तिका आज समजल्लें. चल्याविशींची तिगेली माया पळोवन चल्याचे खरे आवयच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. ती लिपोवपाखातीर तिणें मान वळायली.

'तें आसूं गे सूनबाय! यो, आज हांव तुगेलो...'

बिन्दून एलोकेशीक मदींच थांबयली. 'आज तूं दिदीचो आंबाडो घाल! ह्या घरांत आमी कोणेंच तो पळोवंक ना!' अशें म्हणून ती हांसत हांसत भितर गेली.

पांच स दिसांउपरांतची गजाल. त्या घरचो खूप पोन्नो म्हालो यादवाची कापणी करून सकयल येतालो. इतल्यांत अमूल्य ताचेमुखार उबो रावलो आनी ताणें विचारलें, 'कैलासबाबा, तूं नरेन्द्रभाई भशेन म्हजे केंस कापशी?'

'ते कशे रे बाबा?'

अमूल्यान आपले केंस दाखयत म्हळें, 'पळय, हांगा बारा आणे, हांगा स आणे, हांगा दोन आणे आनी हांगा मानेर सामके बारीक.'

'आरे बाबा! अशेतरेन म्हज्या बापायच्यान लेगीत कापूंक जावचे ना!' 'तातूंत कठीण कितें आसा? हांगा बारा आणे, हांगा स आणे.' 'पुणून धाकले आईन सांगलेबगर हांव कशे कापूं?'

'मातसो राव तर! हांव विचारून येतां! तशें नाका. तूं तुगेली सत्री म्हजेकडेन दी, नाजाल्यार तूं वतलो.' अशें म्हणून म्हाल्याची सत्री घेवन तो धांवत गेलो.

मांचे कुडींत वचून ताणें तिका म्हळें, 'मां मातशी बेगीन भायर यो.' बिन्दू निकतीच न्हाल्ली आनी पुजेक बशिल्ली. तिणें किळांच मारून म्हळें,

'आरे आरे, आफडूं नाका, आफडूं नाका. पूजा करता न्ही?'

'पूजा मागीर कर! एक फावट भायर येवन ताका सांग आनी चल! ना जाल्यार तो म्हजे केंस सारके कातरचो ना.'

बिन्दूक अजाप जालें. केंस मारपाच्या वेळार अमूल्याक सदांच मार घालचो पडटालो. आज आपलेआपूण तो केंस कित्याक मारूंक सोदता? तिका कांयच समजलें ना. ती भायर आयली. म्हाल्यान म्हळें, 'मोटें कठीण काम आसा आई. बारा आणे, स आणे, तीन आणे, दोन आणे आनी एक आणो केंस कापूंक जाय.'

'तूं बोवाळ करूं नाका पळोवया. हांव आतां नरेन्द्र भाईकूच हाडटां. मागीर पळय.' अशें म्हणून अमूल्य नरेन्द्राक आपोवंक धांवत गेलो.

नरेन्द्र घराकडेन नाशिल्लो. तो परतून आयलो आनी ताणें निर्शेवन म्हळें, 'तो ना. पुणून आई, तूं ताका समजावन सांग न्ही. हांगा बारा आणे, हांगा स आणे, हांगा तीन आणे, हांगा सामके बारीक.'

'पुणून म्हाका आतां पूजा करूंक जाय न्ही.' अशें म्हणून ती वचूंक लागली.

अमूल्यान तिची वाट आडायली.

'तूं पूजा मागीर कर. ना जाल्यार हांव तुका आफुडटलों पळय.' उपाय नासून तिका रावचेंच पडलें. म्हाल्याकूय केंस कापचेच पडले. बिन्दून खुणायलें आनी म्हाल्यान सगळे केंस एकासारके कापले. अमूल्यान खोशी जावन माथ्यावयल्यान हात भोंवडायत म्हळें, 'आतां दिस्त जाले.' अमूल्य नाचत नाचत भितर गेलो आनी खाक्यांत सत्री धरीत म्हाल्यान म्हळें, 'आई, फाल्यां ह्या घरांत म्हजें येवप जायतशें दिसना!'

ताचे मागीर बिन्दू रानचेकुडींत दूद तापयताली आनी रानपीण थाली परतिताली, थंय तांकां कळ्ळें कीं बाबू घरभर भोंवून आपल्या काकालो केंस वळोवपाचो ब्रश सोदता. थोड्या वेळान तो आयलो आनी बिन्दूचे फाटीक वेंग मारून रडूंक लागलो. म्हणूंक लागलो, 'मां, ताणें कितेंच करूंक ना. सगळी वाट लायली. फाल्यां हांव ताका मारलेबगर रावचों ना.'

बिन्दूक हें सगळें पयलींच खबर आशिल्लें. तिका हांसूंक आयलें. तें पळोवन अमूल्याक अदिकूच तिडक मारली. तो मोट्यामोट्यान हुयेल्यो मारूंक लागलो. 'तुजे दोळे फुटल्यात? तुका दिश्टी पडना?'

बोवाळ आयकून अन्नपूर्णाय धांवत आयली. सगळें पळयतकच आनी आयकतकच तिणें अमूल्याक म्हळें, 'इतल्यान जालें? फाल्यां हांव ताका सांगतां ! तो सारके करतलो!'

अमूल्यान तोंड वाकडें केलें. 'आतां फाल्यां बारा आणे कशे जातले? हांगाचे सगळे केंस ताणें कापून उडयल्यात!'

अन्नपूर्णेन ताका समजायलो. 'आरे, पुणून आठ धा आणे तरी जातले काय ना?'

'कितें जातले? आठ धा आण्याची फेशन आतां उरल्या? नरेन्द्रभय्याक विचार मगे! हांगा सारके बारा आणेच येवंक जाय!'

मागीर त्या दिसा अमूल्य सारको खालो जेवलो लेगीत ना. अन्नपूर्णेन

बिन्दूक विचारलें, 'कितें गे, तुगेल्या बाबूक केंस वाडोवपाची गोडी केन्नाच्यान लागली?'

बिन्दू पयलीं हांसली. मागीर गंभीर जावन आनी लांब हुस्वास घेवन तिणें म्हळें, 'दिदी, ल्हानशीच गजाल म्हणून हांसूंक येता. पुणून भंयान हड्डें धडधडटा म्हजें! अशेतरेन सगळ्यांच गजाली वाडूं लागल्यात.'

अन्नपूर्णेक सगळें कळटालें. तिच्यानूय फुडें उलोवंक नज जालें. मागीर दुर्गापुजा आयली. त्याच वाड्यार जमीनदाराल्या घराकडेन व्हड उत्सव जावपाचो आशिल्लो. नरेन्द्र जाल्यार दोन दीस पयलींच त्या उत्सवांत गुल्ल जाल्लो. सप्तमीचे रातीकडेन बाबू बिन्दूचे फाटीक लागलो, 'मां हांवूय जात्रा पळोवंक वतलों.'

'केन्ना आसा जात्रा?'

'नरेन्द्रभाई सांगतालो, रातीच्या तीनउपरान्त सुरू जातली म्हणून.'

'जाल्यार आतांच वचून सगळी रात उक्ताडार रावतलो? अशें कशें? फाल्यां सकाळीं तुगेल्या काकाबरोबर वच!'

अमूल्य रडूंक लागलो. 'ना, म्हाका धाड गे! काका वतलो काय ना, कोण जाणा. आनी गेल्यारूय तो उसरां वतलो.'

'बरें आसा. तीन वरांचेर जात्रा सुरू जातली, तेन्ना मानायाबरोबर धाडटां तुका. आतां न्हीद चल.' बिन्दून समजायलो. पुणून अमूल्याचो राग उणो जालो ना. तो तिडकीन गेलो आनी ताणें खाटीर घालून घेतलें . बिन्दून ताका म्हर्‍यांत ओडपाक केलो जाल्यार ताणें आंग घट केलें. मागीर सगळे लोक न्हिदले. भायले घड्याळीचेर वरां वाजिल्ल्यान अमूल्याक जाग आयली. तो ठोके मेजूंक लागलो. एक-दोन-तीन-चार. तो बेगीबेगीन उठून बसलो आनी ताणें बिन्दूकूय उठयली. 'बेगीन उठ मां! चार जालीं!' भायले घड्याळींत ठोके वाजतूच आशिल्ले. पांच-स-सात-आठ. अमूल्य रडूंक लागलो. इतलीं जालीं. आतां कित्याक वचपाचें? घड्याळींत आनीकूय ठोके पडले. नव-धा-इकरा-बारा. बारांचो ठोको दिवन घड्याळ बंद जालें आनी अमूल्याक आपलें पिशेपण कळ्ळें. तो आपशींच वोगी रावलो.

कुडींत माधवूय न्हिदिल्लो. बाबूल्या बोवाळान तो जागो जालो आनी ताणें विचारलें, 'कितें जालें रे बाबू?'

लज जाल्ल्यान बाबू कांयच उलयलो ना.

बिन्दून म्हळें, 'आज पळय हाणें उठयला, घराक उजो लागलो जाल्यार लेगीत कोण उठोवचो ना असो.'

अमूल्याकडेन पळयतकच तिका ताची काळकूट दिसली. 'चल बाबा वच. पुणून कोणाकडेन झगडूं बिगडूं नाका आं.' अशें म्हणून तिणें भैरूक आपयलो आनी लापयांव घेवन ताचेबरोबर वचपाक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा धा वरांचेर बाबू जात्रा पळोवन आयलो. तो खोशयेंत आशिल्लो. काकाक पळोवन ताणें म्हळें, 'आरे वा! तुमी गेलेच नात?' 'कशी जाली रे जात्रा?' बिन्दून विचारलें. अमूल्यान म्हळें, 'एकदम बरी. आनी मां, आज सांजवेळा बरो नाच आसा. कलकत्याकसून दोगीजाणी नाचतल्यो आयल्यात. नरेन्द्र भाईन तांकां पळयला. दिसपाक त्यो तुजेभाशेन आसात म्हणून सांगतालो. बाबाकूय सांगलां ताणें.' 'बरें केलें.' माधवान हांसून म्हळें.

बिन्दूचें तोंड रागान तांबडेंगुंज जाल्लें. 'आयकली मूं तुमगेल्या भाच्याली खबर? आनी बाबू, आतां तूं केन्नाच थंय वचचो ना आं. अवचिन्न पोर! नरेन्द्रान सांगलें तुका, त्यो म्हजेभशेन दिसतात म्हणून?'

'हय हय. ताणें पळयल्यात.'

'बरें आसा. येवंदी ताका. खंय आसा तो?'

'कितें पिशी जाल्या? वोगी राव न्हय आतां. भाऊन सगळें आयकलां. आतां आनीक बोवाळ नाका.'

बिन्दू जरी वोगी रावली, तरी तिच्या भितरल्यान रखरख पेटिल्लो. सांज जाली तसो अमूल्य अन्नपूर्णेचे फाटीक लागलो. 'दिदी, पुजाचो नाच पळोवंक वतां गे. रोखडोच येतां.'

'आवयक वचून सांग.' अन्नपूर्णेन म्हळें. पुणून ताणें हट्ट सोडलो ना. 'ना दिदी, रोखडो येतां. तूं मागीर सांग तिका. वचूं?'

'नाका रे, ती मागीर रागार जाता. तिकाच विचार.'

पुडव्याचो शेव हातांत घेवन अमूल्य रडूंक लागलो. तूं मांक सांगूं नाका दिदी. हांव नरेन्द्र भाईबरोबर वतां. आतां रोखडो परतो येतां.' अशें म्हळें आनी तो धांवलो.

वराभरान बिन्दू बाबूक सोदूंक लागली. अन्नपूर्णा पयलीं वगीच रावली. पुणून मागीर तिका उलोवचेंच पडलें. 'थंय नाच जावपाचो आसा न्हय? तो पळोवंक नरेन्द्राबरोबर गेला. येवपाचे जालो. भियेंवं नाका तूं.' 'कोणें वचूंक दिलो? तुवें?'

अन्नपूर्णेच्यान हय वा न्हय म्हणूंक नज जालें. तिणें म्हळें, 'येवपाचो जालो तो.'

बिन्दूचें तोंड सामकें काळें जालें. आनीक कांयच उलयनासतना ती थंयसून गेली.

अमूल्याक, परतून येतकच जेन्ना मां ताका सोदताली म्हण कळ्ळें, तेन्ना तो बोवाळ करीनासतना आपल्या बापायच्या हांतुणार न्हिदलो. यादव वक्ल लावन दिव्याच्या उजवाडांत भागवत वाचतालो. ताणें विचारलें, 'कोण रे, बाबू?'

बाबून जाप केली ना. इतल्यांत कदम आयली आनी तिणें ताका मां आपयता म्हण सांगलें. तो हळूच बापायम्हऱ्यांत गेलो आनी ताका म्हणूक लागलो, 'तूं म्हाका पावय. चल न्ही.'

यादवाक अजाप जालें. 'हांव सो रे बाबा कित्याक पावोवं? कितें जालां गे कदम?'

कदमान तांकां सगळी गजाल सांगली.

झगड्याखातीर भरपूर मसालो जमला म्हणपाचें यादवाक कळ्ळें. एकलेन

नाका, जाल्यार दुसरेन वच म्हण सांगलां. अमूल्याक घेवन तो गेलो आनी बिन्दूले कुडीभायर रावन ताणें उलो घालो. 'सूनबाय, हे फावट ताची चूक पोटांत घाल. हे फुडें अशें केन्नाच करचों ना म्हण सांगलां ताणें.'

ते रातीकडेन जेवताना बिन्दून अन्नपूर्णेक म्हळें, 'हांव तुमचेर रागार जाल्यां अशें न्हय. पूण हाचेफुडें हांव हांगा रावंक शकना. ना जाल्यार बाबूची वाट लागतली. सामको इबाडटलो तो. हांवें वचूं नाका म्हण सांगून लेगीत ताका धाडस कशें जालें, हेंच हांव येदोळच्यान येवजितां. वयल्यान ताची हुशारी पळय. म्हजे म्हऱ्यांत येनासतना तुका विचारलें आनी घराकडेन येतकच हांव आपयतां हें कळटकच गेलो व्हडल्या देराम्हऱ्यांत. आनी आयलो तोय तांकां बरोबर घेवन. ना, ना, दिदी, इतलो तेप ताका असल्यो संवयो नाशिल्ल्यो. म्हाका कलकत्तयाक भाड्यान घर घेवचें पडल्यार पडूं. पुणून एकूच भुरगो आसा, ताची वाट लागूंक जायना. इबाडल्यार जल्मभर दुकां गळोवचीं पडटलीं.'

'तुमी सगळीं थंय वतकच हांव हांगा एकटी कशी रावं?'

'तें तुमचें तुमी पळयात. हांवें तुमकां सांगलां. हो नरेन्द्र भोवच भयांकृत भुरगो आसा.'

'कित्याक? नरेन्द्रान कितें केलां? ते दोगय खाशेले भाव आशिल्ले जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें, हें येवजिलां तुवें?'

'जाल्यार आजूच ताचे हातपाय बांदून, घरांतल्यान धांवडावन दितलीं आशिल्लीं. फुडें कितें जाता तें जावं दिदी, तूं तांकां वचूंक सांग!'

अन्नपूर्णेक वायट दिसलें. 'सूनबाय, सोडप ना सोडप कितें म्हज्या हातांत आसा? जाणें तांकां हांगा हाडल्यांत तांकां वचून सांग न्ही. म्हाका कित्याक सांगता?'

'तांकां हें सगळें हांव कशें सांगूं?'

'जशो बाकीच्यो गजाली सांगता, तशो ह्योवूय सांग.'

बिन्दून जेवपाचें थांबयलें आनी जावेक म्हळें, 'दिदी, तूं म्हाका भुरगें समजूं

नाका. म्हाकाय सत्तावीस-अठ्ठावीस वर्सां जाल्यांत. ह्या घरच्या नात्यांतल्या लोकांची गजाल हांव करतां. तुमी आसतना हांवें ही गजाल देराक सांगली जाल्यार ते म्हजेर रागार जावचे नात?'

'तुजेर ते रागारूच जातले, पुणून हांवें सांगल्यार जल्मभर म्हजें तोंड लेगीत पळयनासतना रावपाक आसात. आमी कितलींय जाल्यार परकीं. ती दोगांय भाव-भयणां आसात. आनी आतां हांव ना तरणाटी ना जाण्टी जाल्यां. हे येदेशे गजालीक लागून बोवाळ केलो जाल्यार, लोक म्हाका पिशें लागलां म्हणटले.'

बिन्दून जाळकूटपणांनी ताट धुकळ्ळें. अन्नपूर्णेन म्हळें, 'हात आखडावन बसूं नाका. त्या ताटान तुजें कितें केलां?'

'म्हजें जेवन जालें.'

तिका आनीक कितेंय सांगपाचें अन्नपूर्णेक धाडस जालें ना.

बिन्दू न्हिदूंक वच जाल्यार अमूल्य हांतुणार नाशिल्लो. तिणें येवन जावेक विचारलें, 'बाबू खंय गेला?'

आज म्हज्या हांतुणार न्हिदला जातलो. चल उठोवन हाड. अन्नपूर्णेन तिका म्हळें, 'पुणून नाका, आसूंदी.' अशें म्हणून बिन्दू थंयसून गेली.

'मध्यानरातीकडेन जावेचो आवाज आयकून बिन्दू जागी जाली.

'कितें जालें दिदी?' अशें तिणें विचारलें तेन्ना अन्नपूर्णेन म्हळें, 'दार उगडून मातसो बाबूक सांबाळ तुगेल्या. तागेली मस्ती म्हज्यान सोसूं नज बाये. हांवें जाल्यार असलो भुरगोच खंय पळयलो ना. दोन जायत आयलीं. हांवें दोळ्याक दोळो लावंक दिवंक ना अजून. केन्ना हाका जळेरां चाबतात, केन्ना तान लागता, मदींच उकडटा म्हणटा. केदो वेळ वारो घालीत बसूं? दीसभर काम करून पयलीं जीव मरूंक येता. रातची न्हीद मेळ्ळी ना जाल्यार हांव काय वांचची ना.'

बिन्दून हांसून हात मात फुडें केल्लो, बाबून एकदम उडी घाली आनी तिचे वेंगेंत ताका रोखडीच न्हीद लागली.

माधवान न्हिदिल्लेकडेन म्हळें, 'उमेद भागली वयनी?

'ही म्हगेली उमेद न्हय रे बाबा. तो आवयक भियेवन म्हगेल्या हांतुणार न्हिदिल्लो. ताणें म्हाका बरी बुद्द शिकयली. सांगूंक गेल्यार लेगीत लज. म्हाका म्हणटा, 'तुजे म्हऱ्यांत न्हिदपाक म्हाका लज दिसता म्हण.'

तें आयकून सगळींच हांसूंक लागलीं. अन्नपूर्णाय हांसत हांसत न्हिदूंक गेली. न्हीद सामकी तिच्या दोळ्यांत आयिल्ली.

ते घडणुकेच्या धायेक दिसां उपरान्तची ही गजाल. बिन्दूचीं आवय-बापूय तिर्थयात्रेक वचपाचीं आशिल्लीं., वचले पयलीं एक फावट धुवेक मेळचें म्हणून तिका व्हरपाखातीर तांणी माच्यूल धाडिल्लें. व्हडलेनूय वचपाक परवानगी दिल्ली. अमूल्याक लिपोवन तीन चार दिसांखातीर कुळारांत पुस्तकां घेवन अमूल्याची सुंवारी आयली. थंय येतना रस्त्याचे कुशीक दवरलेलें माच्यूल पळोवन तो आयिल्लो. अचकीत ताची नदर जशी धाकले आवयच्या पांयांर गेली, तसो तो शिटकावलो आनी ताणें म्हळें, 'मां, तुवें पायांत ह्यो व्हाणो कित्याक घाल्यात?'

अन्नपूर्णाय थंय आशिल्ली. ती हांसूंक लागली.

बिन्दून ताका फटोवपाखातीर म्हळें, 'आज तशोच घालतात.'

'जाल्यार इतलें भांगर कित्याक घाला?'

अन्नपूर्णा हांसो चिड्डीत भायर गेली. बिन्दूकय हांसूंक येतालें, तिणें तें बळयां दामलें आनी म्हळें, 'तुगेली बायल येतली आनी तें घालतली म्हणपाक खूब कळाव आसा. ते म्हणसर हांवूंय घालूं नाका? चल चल, शाळेंत वच.'

आपणांक ती फटयता म्हणपाचें अमूल्याक इल्लें कळूक लागिल्लें. म्हणटा कसो, 'दिदी इतली हांसताली कित्याक? तूं खंयतरी वता! आज हांव शाळेंत वचचों ना.'

'जाल्यार कितें तुका सांगून वचचें पडटलें?' अशें बिन्दून म्हणटकच, बरें हांव वतां शाळेंत.' अशें म्हणून तो गेलो. अन्नपूर्णेन भितर येवन म्हळें, 'म्हाका दिसूंक नाशिल्लें हो तोंड धापून शाळेंत वचत म्हण. पुणून कितलो शिटूक जाला

पळयलो? विचारता, व्हाणो कित्याक घाल्यात, आंगार वस्ती कित्याक घाल्यात? हांव तुका सांगतां, तूं व्हर ताका बरोबर. नाजाल्यार शाळेंतल्यान येतकच तूं नाऽशी पळोवन पिडापीड करतलो.'

'तुका कितें दिसता दिदी, तो शाळेंत गेला म्हणून? हांव सांगतां तुका, हांगाच खंयतरी लिपला आसतलो. आनी वचचेल्या वेळार दिस्त हाजीर जातलो.'

आनी बिन्दून म्हणिल्लें तशेंच जालें. तो खऱ्यांनीच लिपून बशिल्लो. जावेच्या पांयांक हात लावन बिन्दू माच्युलांत बसता इतल्यांत खंयच्यान तरी तो आयलो आनी तिच्या पदराक धरून उबो रावलो. दोगूय जावो व्हडाव्हडान हांसूंक लागल्यो.

'आतां वतना ताका मारतली? घेवन वच बरोबर.'

'हाका व्हरत जाल्यार थंय एकूय पावल हेवटेनचें तेवटेन हालोवंक मेळचें ना म्हाका.'

'जशें केलां तशें भोग आतां. बाबू, म्हज्या म्हऱ्यांत दोन दीस लेगीत रावंक जायना रे तुज्यान?' अशें म्हणून अन्नपूर्णेन ताका म्हऱ्यांत ओडपाक केलो जाल्यार तिच्या हातांतलो तो सुटलो आनी 'हांव रावचों ना तुजे म्हऱ्यांत. हांव वतलोंच'. अशें म्हणून तो पयल्यापयलीं वचून माच्युलांत बसलो.



बिन्दू कुळारासून आयल्यार धायेक दीस जाल्ले. एक दीस दनपारच्या वेळार अन्नपूर्णा तिगेले कुडींत आयली आनी 'धाकले' म्हणून उलो मारलो. पुणून बिन्दून 'ओ' म्हळें ना.

तिच्या म्हऱ्यांतली कपड्यांची रास पळोवन, जावेन तिका विचारलें, 'मडवळ आयला गे?'

ताचेरूय बिन्दून कांयच जाप दिली ना. तिणें भियेवन विचारलें, 'तुका कितें जालां गे?'

बिन्दून सिगरेटचें एक जळिल्लें थोटूक तिका दाखोवन म्हळें, 'हें' पळय. बाबूच्या खोमसाच्या बोल्सांत आशिल्लें हें.'

थोटूक पळोवन अन्नपूर्णेची वाचाच बंद जाली.

बिन्दून रडत रडत म्हळें, 'दिदी, हांव तुज्या पायां पडटां. त्या लोकांक हांगासून वचूंक सांग. ना जाल्यार आमकां तरी खंयूय दुसरेकडेन धाड.'

अन्नपूर्णा बावडी कितें उलयतली? ती थोडो वेळ मोन्यांनी उबी रावली आनी मागीर तशीच चलूंक लागली.

सांजवेळा अमूल्य आयलो आनी खावक खावन परतोय खेळूंक गेलो. बिन्दून त्यावेळार ताका कांयच विचारलें ना. इतल्यांत भैरू आयलो आनी ताणें कागाळ केली. 'म्हजी कितेंच चूक नासतना नरेन्द्रान म्हजेर थापट मारलें.' बिन्दून पिकार जावन म्हळें, 'वचून दिदीक सांग न्ही.'

तेन्नाच माधव ऑफिसांतल्यान आयिल्लो. ताणें फकाणानी कितें तरी म्हळें, पुणून ताचेरूय धेंगसो पडलो. तोय वोगीच रावलो.

भविश्यांत पडपाच्या आशिल्ल्या पावसाखातीर कितलीं काळीं कुपां एकठावल्यांत, हें फकत अन्नपूर्णेक खबर आशिल्लें. ती मनांतल्यान खूब भियेली. बिन्दू एकटीच आसाशें पळोवन ती तिच्या म्हर्‍यांत गेली आनी तिचो हात हातांत घेवन तिणें भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें, 'हे फावट ताका सोड. जायच जाल्यार एकोडो आसतना मातसो धपकाय.'

अन्नपूर्णेल्या उतरांनी धुंवतल्या उज्यान एकदम पेट घेतलो. बिन्दून तिडकीन म्हळें, 'तो म्हजो चलो न्हय हें तूंय जाणा आनी हांवूंय जाणा'. मागीर ह्यो फसव्यो गजाली कित्याक जाय?'

'ना गे ना. तूंच ताची आवय. हांवें तो तुकाच दिला.'

'तेन्ना तो ल्हान आशिल्लो. खावोवन जेवोवन आतां ताका जाणटो केला. आतां तुगेलो चलो तूं घे. हांव वांज बायल.' अशें म्हणून बिन्दू चलूंक लागली.

ते रातीकडेन रडकुरें तोंड करून अमूल्य दिदीच्या म्हर्‍यांत न्हिदूंक गेलो. अन्नपूर्णेक भितरली गजाल खबर आशिल्ल्यान तिणें ताका धुकलून म्हळें, 'हांगा कित्याक आयला? चल हांगासल्लो. चलूंक लाग.'

अमूल्यान हेवटेन तेवटेन पळयलें. यादवूय सूस्त न्हिदिल्लो. थोडो वेळ तो तसोच रावलो आनी मागीर उठून भायर गेलो.

सकाळीं कदम जेन्ना रानचेकुडींत उश्टीं आयदनां हाडूंक गेली, तेन्ना उज्याच्या लाकडांम्हर्‍यांत तिका अमूल्य न्हिदिल्लो दिसलो. तिणें धांवत वचून बिन्दूक सांगलें. अन्नपूर्णाय धांवत आयली. तिका पळयनाफुडें बिन्दून तिडकीन म्हळें, 'तो म्हर्‍यांत न्हिदल्यार सारकी न्हीद पडची ना, म्हणून जावूबायन ताका धांवडायलो दिसता.'

पुताक तसले आवतिकायेंत पळोवन अन्नपूर्णेचें काळीज रडटालें. तिच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं. पुणून बिन्दूलो थोमणो आयकून तिणें म्हळें, 'आपणें

केल्ली चूक दुसऱ्याचेर कशी धुकलप, हें तुकाच बरें कळटा.'

बिन्दून बाबूक उबारलो तेन्ना ताचें आंग जोरान भाजतालें. 'कार्तिक म्हयन्यात रातचो उक्तडार न्हिदल्यार जोर येवचो ना जाल्यार कितें जातलें?'

'पळोवया गे, जोर आयला?' अशें म्हणून अन्नपूर्णा ताका हात लावंक गेली, पूण बिन्दून तिचो हात फाफडून उडयलो. आनी 'आतां काकळूट करपाची गरज ना.' अशें म्हणून अमूल्याक वेंगेंत घेवन ती थंयसून गेली.

अमूल्य पांच स दिसांनी निवळ्ळो. पुणून बिन्दून मात आपले तकलेंत जावेलो गुन्यांव तसोच घट्ट धरलो. आतां ती तिचेकडेन सारकी उलय लेगीत नाशिल्ली.

अन्नपूर्णेक सगळें कळटालें. पुणून तिवूय तोंड उगडीनाशिल्ली. बिन्दून सगळ्यांमुखार आपणाक दोशी थारायलें, हो आपणाचेर व्हड अन्याय जाला, अशें ती समजताली. दुसऱ्याच दिसा कसलिशी गजाल करतना एलोकेशीमुखार ती सट्ट करून उलोवन गेली. 'धाकले सूनबायक लागून अमूल्याक जोर आयलो. नशीब म्हणून वांचलो, मेलो ना.' तीं तिचीं उतरां एकाचीं दोन दोन करून बिन्दूक कळोवपाक एलोकेशीन इल्लोय कळाव लायलो ना.

बिन्दूक ती गजाल कळ्ळी म्हणपाचें एलोकेशीबगर कोणाकूच खबर नाशिल्लें. जावेली ती गजाल कळटकच बिन्दून तिचेकडेन उलोवपाचें सामकेंच सोडून दिलें.

नव्या घरांत सामान पावोवपाचें काम कांय दिसांसावन सुरू जाल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं नव्या घरांत वचपाचें म्हळ्यार, पयले रातीकडेन पोन्या घरांत एक खुबूच वायट घडणूक घडली.

माधव एके केसीच्या कामाखातीर भायर गेल्लो आनी भुरग्यांक घेवन नव्या घराकडेन गेल्लो. मास्तर शिकवणेक आयलो, तेन्ना ताका आपोवन व्हरून बिन्दून ताका दुसऱ्या दिसा नव्या घरांत शिकवणेक येवपाक सांगलें. मास्तर वचपाक लागलो आनी तिका कितें येवजलें कोण जालां, तिणें ताका विचारलें, 'तुमगेलो शिश्य बरो शिकता मूं?'

'शिकपाक तो एकदम हुशार आसा. दर वर्सा पयलो नंबर घेता.'

'तें म्हाका खबर आसा. पुणून हालीं तो सिगारां ओडूंक कसो शिकलो?'

'कितें? सिगार ओडूंक शिकला?' मास्तराक अजाप जालें. दुसऱ्याच खिणाक ताका एक याद जाली आनी ताणें म्हळें, 'ही अजाप करपासारकी गजाल न्हय! भुरगे देखादेखीन वायट गजाली शिकतात.'

'कोणाले देखादेखीन शिकलो?'

मास्तर वगीच रावलो. 'तशें जाल्यार तागेल्या बापायक हेंवूय सांगात.' बिन्दून म्हळें. ताणे आं म्हणून मान हालयली आनी तो वतलो इतल्यांत ताका आनीक एक याद जाली.

'पांच स दीस जाले, रस्त्याचे कुशीक आशिल्ल्या उडिया माळ्याच्या पोरसांत वचून, भुरग्यांनी तागेलीं हरवीं फळां तोडलीं, रोपां हुमटायली आनी ताकाय मार घालो... व्हडलें झगडें जालें.'

'मागीर?'

'माळ्यान हेडमास्तराकडेन कागाळ केली. ताणें खूब बोवाळ घालतकच हेडमास्तरान भुरग्यांक धा रुपये दंड केलो आनी ते पयशे ताका दिले.'

'बाबूय आशिल्लो? ताका पयशे खंयसून मेळ्ळे?'

'तें म्हाका खबर ना. पुणून तो आशिल्लो. तुमगेलो नरेन्द्रूय आशिल्लो. आनिकूय दोग तीग भुरगे आशिल्ले. हेडमास्तरानूच सांगलां.'

'भुरग्यांनी दंड भरलो?'

'हय!'

'बरें आसा, तुमी वचात.' अशें म्हणून बिन्दू गंभीर चेऱ्यान थंयच बसून रावली. मास्तर गेलो तशें तिणें आपले भितरूच म्हळें, 'म्हाका लिपोवन पयशे दिले? इतलो धीर कोणाक जालो?'

एक म्हळ्यार ती पयलींच मनातल्यान दुखावलेली आनी दुसरें म्हळ्यार ती जावेकडेन उलयनाशिल्ली. ताका लागून तिची तकलीय फिरिल्लेवरी जाल्ली. ती नीट रानचेकुडींत गेली. तिगेल्या चेऱ्यार त्यावेळार काळीं कुपां दाटिल्लीं. 'दिदी, ह्या दिसांनी तुवें बाबूक पयशे बी दिल्ले?'

ती विचारतलीच म्हणपाचो अन्नपूर्णेक दुबाव आशिल्लो. तिच्या तोंडातसून भयान थोडो वेळ उतरूच भायर सरलेना. निमणें धीर करून तिणें विचारलें, 'कोणें सांगलें तुका?'

'प्रश्न तो न्हय. ताणें कितें सांगून मागलें आनी तुवें कितें समजून दिलें, हो खरो प्रश्न आसा.'

अन्नपूर्णा ओगीच रावली.

बिन्दून तिका हिणसावन म्हळें, 'हांवें ताका ख्यास्त केल्ली. तुका नाका आशिल्ली म्हणून दिले मूं? म्हाका लिपोवन? बाबू आनीक कितेंय करूं, फट मात उलोवचो ना. तुवें सगळें जाणा जावनूच दिले, हें खरें मू?' अन्नपूर्णेन गुन्यांवकारावरी हळू आवाजांत म्हळें, 'हय खरें. पूण हे फावटीं ताची चूक पोटांत घाल, धाकले. हांव चूक मागतां.'

बिन्दूच्या काळजाक उजो पेटिल्लो.

हेच फावटीं कित्याक? सदांखातीरूच चूक माफ करतां. हे फुडें हांव केन्नाच सांगची ना आनी उलोवचीय ना. म्हजे नदरेमुखार तो इल्लो इल्लो फोंडांत वता, तें म्हज्यान पळोवंक जायना. ते परस तो एकदमच मेल्लो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. पुणून हें करपाक तुका धाडस तरी कशें जालें काय म्हणटां हांव?'

बिन्दूलीं निमणीं उतरां चडूच खर आशिल्लीं. तरी लेगीत अन्नपूर्णेन तिका कांयच जाप केली ना. पुणून बिन्दू जितली चड उलयताली तितलो तितलो राग वाडत वतालो. निमणें तिणें ताळ सोडिल्ल्या उतरांनी म्हळें, 'दर एके गजालींत तूं कांयच खबर नाशिल्ले वरी करून म्हणटा, हे फावटीं ताची चूक पोटांत घाल

म्हण. पुणून हातूंत ताचेपरस तुजीच चूक चड आसा. हांव तुका केन्नाच माफ करची ना.' घरांतले मानाय आनी वावराड्यो लिपचोरयां तांगेलें झगडें आयकताल्यो. अन्नपूर्णेली सहनशक्त सामकीच सोंपली, तेन्ना तिणें आड्डून म्हळें, 'कितें करतली? गोळाक लायतली?'

उज्यांत तूप पडलें. दाखेक उजो लागतकच स्फोट जावचो तसलीं उतरां बिन्दूच्या तोंडातसून भायर सरलीं. 'तीच ख्यास्त तुका फावो जाता.'

'म्हगेल्या चल्याक हांवें दोन रुपया दिले हीच चूक म्हजी?'

उलोवणें खंयचे खंय पावलें. बिन्दू खरी गजाल विसरली आनी तिणें म्हळें, 'ते तरी तूं कित्याक दितली? अशे तरेन वाट लावपाखातीर खंयसून आयले हे पयशे?'

'तूं वाट लायता ती पयशांची?'

'हांव वाट लायतां म्हगेल्या पयशांची. तूं कोणाकडेन वगडायता तें मातशें सांग पळोवया.'

आतां मात अन्नपूर्णेच्यान राग सोसूं नज जालो. ती गरीबाघरची धूव जाल्ल्यान बिन्दून आपणांक तेच खातीर थोमणो मारला अशें तिका दिसलें. तिणें एकदम उबी रावन म्हळें, 'तूं गिरेस्ता घरची चली म्हणून हांव जाणां. पुणून कोणाकडेन दोन रुपया लेगीत नासतले अशा गर्वांत मात रावं नाका.'.

'हांव गर्व करीना. पुणून तूंच येवजून पळय, एक पयसो लेगीत तूं जो खर्च करता, तो कोणाचो काय म्हणून?'

तें आयकलें तशें अन्नपूर्णेन आड्डून म्हळें, 'कोणाले पयशे? तुज्या तोंडांत येता तें तूं उलोवन सोडटा. चल, चलूंक लाग म्हज्या दोळ्यांमुखावयली.'

सकाळ जायनाफुडें हांव तर वतलींच. पुणून तूं कोणाले पयशे मोडटा हें तुका खबर नाऽशें दिसता. कोणाले जोडीचेर जेवता, न्हेसता हें लेगीत खबर ना तुका.'

इतलें उलोवन जातकच मागीर ती साबुद्दीर आयली आनी वोगी रावली. अन्नपूर्णेलो चेरो अपमानान काळो विज्ञ जालो. जावेच्या तोंडाकडेन बारीकसाणेन पळयत तिणें म्हळें, 'हय. तुगेल्या घोवाली जोड खातां. हांव तुगेली दासी, वावराडी; म्हगेलो घोव तुगेलो मानाय हेंच सांगूंक सोदता मूं तूं? जाल्यार इतले दीस तुज्या मनांतली ही गजाल लिपोवन कित्याक दवरली?'

अन्नपूर्णेलें तोंड उलयतना थरथरूंक लागलें, तें दातांनी चिड्डून धरीत तिणें म्हळें, 'धाकले, आपल्या भावाक शिकयतना हांणी दोन पुडवीं घेवन, तातुंतलें एकूय हे न्हेसले नात तेन्ना तूं खंय आशिल्ली गे? घराक उजो लागतकच झाडामुळां रांदून तांणी हें घर उबें केलें, तेन्ना तूं खंय आशिल्ली गे?' उलयतां उलयतां तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. तीं पदरान पुशीत तिणें म्हळें, 'तांकां जर तुमच्या मनांतलो भेद खबर आशिल्लो, जाल्यार ते केन्नाच आयचेभाशेन भांगेचे घुंवळेंत गुडगुडी ओडीत हांतुणार लोळचे नाशिल्ले. ते तसल्यांतले न्हय. तांकां वळखता तो तुगेलो घोव आनी सर्गांतले देव. आज म्हजें निमित्त करून, तांचो अपमान केलो तुवें. आनीक कांय केलें ना.'

घोवाच्या अभिमानान खिणभर तिच्या आंगार काटो फुलून आयलो. त्याच वोगांत ती फुडें उलोवंक लागली, 'तुवें जाणवीक करून दिली हें बरें केलें. सतीन खंय उज्यांत उडी घेतिल्ली. हांवूय सोपूत घेतां, कोणाल्याच घरांत रानचेलें ना जाल्यार उदक भरपाचें काम करून पोट भरीन, पुणून तुगेल्या अन्नाक मात हे फुडें आफुडची ना.'

दिस्त त्याच वेळार यादव आंगणांत आयलो आनी ताणें उलो मारलो, 'व्हडले' घोवाचो आवाज आयकून अन्नपूर्णेचो स्वाभिमान, मोड येवन दरया खवळचो तसो खवळ्ळो. भायर येवन तिणें व्हड आवाजांत आड्डून म्हळें, 'शी शी! ज्या मनशाच्यान आपले बायलेचें आनी भुरग्याचें पोट भरूंक जायना, ताका गोळाक लावन घेवपाखातीर राजवाचो एक कुडकोय मेळना काय म्हणटां हांव.'

यादवाक कांयच समजलें ना. ताणें विचारलें, 'कितें जालें?'

'अजून खंय कितें जालां? धाकले सुनेन आज म्हाका तोंडार सांगलें, 'हांव

तिगेली वावराडी. आनी तुमी तिगेले मानाय म्हण.'

बिन्दू कुडींत उबी आशिल्ली. तिणें दातांनी जीब घट्ट चाबली आनी कानांत बोटां घालीं.

अन्नपूर्णा रडत रडत सांगताली, 'म्हाका एक पयसोय कोणाक दिवपाचो हक्क ना. हें म्हाका तुमी जिते आसून आयकून घेवचें पडलें. आज तुमचेमुखार हांव सोपूत घेतां, ह्या लोकांलें अन्न खावचेपयलीं म्हाका म्हज्या भुरग्याचें शीर खावचें पडता.'

बिन्दून तिगेलो सोपूत आयकलो आनी आकांतून म्हळें, 'दिदी, हें कितें केलें तुवें?'

आनी बारा वर्सांउपरांत आज परतून एकदां ती घुंवळ येवन भुंयेर पडली.



अन्नपूर्णा आनी अमूल्य सोडून उरिल्लीं सगळीं नव्या घरांत आयिल्लीं. बिन्दूच्या आत्याची चली, नातू, नाती आनी कुळारासून आवय-बापूय आनी मानाय, वावराड्यो आयिल्ल्यान घर भरिल्लें. बिन्दू मातशी उदासऽशी दिसताली. पुणून ती रोखडीच आपल्या मनाक समजायत म्हणटाली, 'शे! हांवें दुबाव घेवंक फावना. राग उणो जातकच दिदी येतलीच.' पूजा करून जातकच ती लोकांच्या खावपा पिवपाच्या तयारेक लागली.

'बाय, तुगेलो बाबू दिसलोनाऽसो?' बिन्दूच्या बापायन विचारलें.

'तो त्या घरांत आसा.' इतलेंच म्हणून ती वोगी रावली.

'तुगेली जाव येवंक ना दिसता?'

'ना.'

'तेंवूय खरें. सगळींच आयलीं जाल्यार, तें घर कोण सांबाळटलो? जाण्टेल्यांचें घर धापुनूय दवरूंक मेळना!'

बिन्दू तोंड धापून कामाक लागली.

यादव नित्यनेमान सांजवेळचो येवन भायर बसतालो आनी वासपूस करून घरा वतालो. पुणून तो केन्नाच घरांत वचनाशिल्लो. घरप्रवेशाच्या एक दीस आदीं, रातीकडेन तो एकदां भितर गेलो आनी एलोकेशीकडेन वासपूस करूंक लागलो. बिन्दूक तें कळ्ळें तशी ती दाराफाटल्यान रावन आयकूंक लागली. तिगेल्या त्या व्हडल्या देरान तिका सदांच बापायसारको मायामोग दिल्लो. कितले मायेन तो तिका सूनबाय म्हणून उलो मारतालो! आपले जावेकडेन झगडून तिगेल्यो कागाळ्यो तिणें थोड्या फावटीं ताचेकडेन करूंक नाशिल्ल्यो! पुणून ताणें त्यो केन्नाच फकाणांचेर व्हरूंक नाशिल्ल्यो. आज लजेन तीच बिन्दू तांचेफुडें मोनी जाल्ली. यादव गेलो तशी ती एके रिकामे कुडींत गेली आनी भरिल्ल्या घरांत कोणेंय आयकुचें न्हय म्हणून तोंडाक पदराचो गुड्डो मारून, हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं बिन्दून आपल्या घोवाक आपोवन म्हळें, 'कितलो कळाव जालो पळयात. भट येवन बसला आनी अजून देर येवंक ना.'

'तो कित्याक येतलो?' माधवान विचारलें.

'ते कित्याक येतले म्हळ्यार! तांचेबगर हें सगळें कोण करतलो?'

'हांव आनी प्रियनाथ भावोजी. भाऊ येवचो ना.' माधवान सांगलें तशें बिन्दून बेजार जावन म्हळें, 'येवचे नात? असल्या उलोवण्यानी कितें कामां जावचीं पडल्यांत? ते आसतना, घरांत कितेंय करपाक दुसऱ्या कोणाक कसो अधिकार आसतलो? ना ना! अशें केन्नाच जावचें ना. तांचेबगर हांव कोणाकूच

कांय करूंक दिवची ना.'

'तशें जाल्यार हें सगळें हांगाच पडूं दी. भाऊ आतां घराकडेन ना. कामार गेला.'

'हें सगळें व्हडले मालकिणीलें कारस्थान आसा. तशें जाल्यार तिवूय येवची ना.' अशें म्हणून रडकुरें तोंड करून बिन्दू थंयसून गेली.

ती पूजा, तो उत्सव, खाण-जेवण, हें सगळें त्या एका खिणाक तिचे खातीर आसून नाशिल्लेवरी जालें. त्या तीन दिसांत ती दर एका खिणाक येवजिताली; 'आज देर येतलो, दिदी येतली, बाबू येतलो'. 'पुणून घोवाल्या उतरांनी तें सगळें सोपिल्लें आनी तो उत्सव म्हळ्यार आपल्या हङ्यार पडिल्लें एक व्हडलें तळप, अशें तिका दिसूंक लागलें.

ती तसले आवतिकायेंत वावुरतनाच एलोकेशीन तिका म्हळें, 'सूनबाय, मातशी कोठयेचे कुडीची चावी दी आं! खाजेकारान संदेश हाडल्यात.'

'थंयच खंय तरी दवरात. मागीर पळोवया' बिन्दून वाजेवन म्हळें.

'खंय दवरूं? माजर, कावळे तातूंत तोंड घालचे नात?'

'तशें जाल्यार भायर काडून उडयात'. अशें सांगून ती फुडें वतली इतल्यांत, तिगेली आते, 'पीठ कितलें काडूं?' म्हण विचारूंक लागली.

'म्हाका कितें खबर? तुमी कितलीं म्हातारीं जाल्यांत! तुमकां अदमास ना?'

आत्याक तें वायट दिसलें. तिणें म्हळें, 'हिगेलें आनी आयकात. हे खेपे कितले लोक जेवतले हें म्हाका खबर आसा?'

'तशें जाल्यार तांकांच वचून विचारात न्ही. हें सगळें काम दिदी करताली बाबूचे मुजीक तीन दीस गावचे लोक खाताले जेवताले. पुणून तिणें केन्ना म्हाका विचारलेंच ना, 'धाकले, हें कशें करपाचें, काय म्हणून.' अशें बडबडत बिन्दू दुसरे कुडींत गेली. थंय येवन कदमान म्हळें, 'जावय बापू विचारतात, पुजेचे कपडे...'

तिगेलें सांगून सोपचे पयलींच बिन्दू वस्स करून तिच्या आंगार आयली.

'तुमी सगळीं म्हाका खावन उडयात. एक म्हाका खायात तरी नाजाल्यार चलूंक लागात नदरेमुखावयल्यान.'

कदम आनीक थंय रावली ना.

मातशा वेळान माधव आयलो आनी ताणें 'आयकलां? खंय आसा?' अशें विचारलें तसो, ताचेरय धेंगसो घालून तिणें म्हळें, 'म्हज्यान कांयच जावचेंना, म्हज्यान कांयच नज आनी हांव कांयच करची ना.'

माधव तिचेकडेन तोंड आं करून पळयत रावलो. तेच तिडकेन तिणें फुडें म्हळें, 'म्हाका कितें करतले? गोळाक लायतले? कांयच जमलें ना जाल्यार तें करात.'

इतलें म्हणून ती रडत कुडींत धांवली. दीस वयर सरत आशिल्लो.

मागीर गरजेभायर धांवपळ करीत ती हाचेर ताचेर धेंगसो घालताली. कोणेंय बोवाळाभरशीं वा चुकून वाटेर आयदन दवरलेलें आसल्यार ती तें फाफार मारून उडयताली. कोणालेंय सुकें वस्त्र तिच्या आंगाक लागलें जाल्यार ताका शिकोवंक तिका तितलेंच निमित्त पुरो जातालें. जो जो तिचे सामकार येतालो, तो तो भियेवन पळटालो. निमणें भटमाम आयलो आनी ताणें वाजेवन म्हळें,' कळाव खूब जालो आनी अजून तयारी कांयच जावंक ना. आतां कशें करपाचें?'

'ज्या घरांत कार्य आसता, थंय भोव कळाव जातलोच भटमाम.' अशें भटाक सांगून आनी वाटेर आशिल्लें एक आयदन फाफार मारून आंगणात उडयत ती कुडींत गेली आनी तिणें जमनीर घालून घेतलें.

पांच धा मिनटांनी तिच्या कानार एक वळखीचो आवाज आयलो, तशें तिणें बेगीबेगीन उठून, दारांतल्यान पळयलें, अन्नपूर्णा उबी आशिल्ली. अभिमानान तिचें हड्डें भरलें. दोळ्यांत आयिल्लीं दुकां तिणें पदरान पुसलीं, पदर गळ्याक गुठलायलो आनी भायर येवन दोनूय हात एकठावन पायां पडत जावेक म्हळें, 'आनीक कितली दुस्मानकाय चलयतली दिदी? पळय न्हय. इकरा जालीं, पुणून

अजून एकूय काम जावंक ना. हांव वीख खाल्यार तुज्या जिवाक बरें दिसतलें जाल्यार, घराकडेन वचून एक कट्टीभर वीख धाडून दी!' अशें म्हणून चावयांचो घोंस जावेच्या पायांकडेन उडयलो आनी कुडींत वचून दार धापलें. मागीर भुंयेर घालून घेवन ती रडूंक लागली.

अन्नपूर्णेन तोंड धापून चावयांचो घोंस उबारलो आनी भितर वचून कोठयेची कूड उगडली.

तिसरो पार म्हणसर लोकांलें येवप-वचप आनी खावप-जेवप सोंपिल्लें. पुणून बिन्दू मात कसल्या तरी हुसक्यान एकासारकी भायर भितर येता-वताली. इतल्यांत भैरू आयलो आनी ताणें म्हळें, 'बाबू शाळेंत ना.'

तें आयकनाफुडें बिन्दून रागान म्हळें, 'सामकोच पिसांट तूं. येदो वेळ खंयचोच भुरगो शाळेंत रावता? वचून त्या घरांत सोद ताका.'

'त्या घरांतूय पळयलो, थंयूय ना तो.'

जाल्यार भुरग्यांबराबर कोंयडे बार खेळटा आसतलो. आतां ताका कोणाचें भंय उरलां? ह्या खेळान एक दीस ताचो दोळो फुटलो, म्हण्टकच मालकिणीच्या जिवाक बरें दिसतलें. चल, धांवत वच, आसा थंयसून घेवन यो.'

कोठयेच्या दारांत रावून बायलांकडेन गजाली करतां करतां, अन्नपूर्णेन तिगेलें सगळें उलोवणें आयकलें.

एका वराउपरान्त येवन भैरून सांगलें, 'बाबू घरांत आसा, पुणून तो येना म्हणटा.'

'कित्याक येना? हांवें आपयला म्हण सांगिल्लें ताका?'

'सांगिल्लें!'

'ताचो तरी कितें अन्याय? जशी आवय तसो भुरगो जातलो.' अशें बडबडत ती थंयसून गेली.

आनी मागीर व्हड राती अन्नपूर्णा घराकडेन वचपाक भायर सरली. तिका

पावोवपाखातीर माधव कपडे घालूंक लागलो. ताचे म्हऱ्यांत येवन बिन्दून तिखट आवाजांत म्हळें, 'तुमी तिका पावोवपाक तयार जाल्यात खरे, पुणून तिणें हांगासल्लो उदकाचो थेंब लेगीत उश्टांवंक ना, हें खबर आसा तुमकां?'

माधवान म्हळें, 'तुका खबर आसपाचें. तुका कांयच जमना जालें, तेन्ना हांवें वचून तिका जशी हाडिल्ली, तसोच आतां पावोवपाकूय वतां.'

'जाणां जाणां. तुमीय तिचेच वटेनचे म्हणून म्हाका बरें खबर आसा. चल या भाभी. कळाव नाका'. अशें म्हणून माधव वचपाक लागलो. अन्नपूर्णेन एक पावल मात फुडें घाल्लें, बिन्दून आड्डून म्हळें, 'घरची दुस्मानकाय म्हणटात तें फट न्हय. तोंडांत जें उतर आयलें तें खरें फट सगळें सांगून उडयलें. दांत चिड्डून सोपूत घेतलो. चार दीस आनी चार राती भुरग्याचें तोंड लेगीत पळोवंक दिलें ना. देवूच हाचो केन्नातरी न्याय करतलो.'

अशें म्हणून बिन्दून तोंडांत पदराचो गुड्डो मारून रडप थांबयलें आनी आपले कुडींत वतना, रानचेकुडीच्या दारांत ती घुंवळ येवन पडली. बोवाळ जालो. अन्नपूर्णेन थारून विचारलें, 'कितें जालें?'

माधवान म्हळें, 'कांय ना. पळोवपाची गरज ना. चल तूं.'

जावाजावांचें झगडें जालां म्हणपाची गजाल ह्या घरांत चडशा लोकांक खबर नाशिल्ली. पुणून ती सदांच लिपून कशी उरतली? दुसऱ्या दिसा सगळ्यो बायलो जेन्ना एकठांय जाल्यो, तेन्ना एलोकेशीन म्हळें, 'धाकले आनी व्हडले सुनेचें झगडें जालां हें एकवेळ समजूं येता, पुणून त्या भुरग्याक पळय, एक फावट तरी आयला जाल्यार. धाकली सून म्हणटा तें खरेंच. जशी आवय, तसोच भुरगो जाला. आनीक जायते भुरगे पळयले, पुणून तुका सांगतां, असलो दुश्ट भुरगो मात हांवें खंयच पळोवंक ना.'

बिन्दून एकदां तिचेकडेन पळयलें आनी वीट येवन नदर सकयल घुंवडायली. पुणून एलोकेशी विखाळे बाण सोडीतूच रावली. 'धाकले सुने, तुका भुरगोच जाय. तूं म्हगेल्या नरेन्द्राक घे. हांव दितां तो तुका. तुवें मारलो जाल्यार लेगीत, तोंडांतल्यान ब्र काडची ना. असल्या तसल्या भुरग्याक हांवें जल्माक घालूंक ना.'

बिन्दून तिचेकडेन पळयलें लेगीत ना. बिन्दूची आवय एक पोक्तशी बायल आशिल्ली. ती गिरेस्ताघरची चली तशीच गिरेस्ताघरची सुनूय बी आशिल्ली. अणभवानूय ती व्हड आशिल्ली. तिणें एलोकेशीक हांसून जाप केली, 'तुमी कसल्यो गजाली करतात? अशेतरेन तिका कश्टांव नाकात. अमूल्य तिच्या हाडामांसांत भिनला. आनी झगडें जावन दोन दिसूच जाल्यात. इतल्यांत कितें आपलो भुरगो परकी जाता?'

बिन्दूचे दोळे ओले जाले. तिणें तेच नदरेन आवयकडेन पळयलें. त्याच दिसा सांजेवेळा तिणें कदमाक आपोवन हाडून म्हळें, 'कदम, तूंच सांग. तूं आशिल्ली मूं थंय? तिणें येदो व्हडलो सोपूत घेसारकी म्हज्या हातान कसली चूक घडिल्ली?'

बिन्दून तो विशय काडिनाफुडें कदम भियेली. तिका दिसलें, 'आपले जावेच्यो चाडयो सांगपाखातीर तिणें आपणाक आपयल्या. ती आखुडलले भाशेन वोगीच रावली. बिन्दून परतून म्हळें, 'ना ना, सांगूच तूं. कशीय जावं तूं म्हजेपरस कितली तरी जाण्टी आसा. म्हाका तुगेलीं दोन उतरां आयकुचींच पडटलीं. सांग, म्हजेकडल्यान कितें चूक घडिल्ली?'

कदमान मान हालोवन म्हळें, 'ना भाभी, चूक जायसारकी कसली गजाल जाल्ली?'

'हय मूं? तशें जाल्यार त्या घराकडेन वच आनी दोन कडकशीं उतरां सांगून यो. चुकूच करूंक ना जाल्यार म्हाका कसलो भंय पडला?' बिन्दून म्हळें आनी कदमान मातसो धीर एकठावन जाप दिली, 'भयाची गजाल न्हय भाभी, पुणून झगडें चड वाडोवपाची गरजूच कितें आसा? जें जावपाचें तें जावन गेलें.'

'ना ना कदम, तुका समजना. खरी गजाल सांगप सदांच बरें. नाजाल्यार ती समजतली, सगळी चूक म्हजीच, तिची इल्लीय ना म्हणून. धांवडायतली, भायर घालतली, हें सगळें तिणें म्हणूक नाशिल्लें? पुणून हांवें तें केन्ना मनार घेतिल्लें? तिणें लिपोवन पयशे कित्याक दिले? म्हाका कित्याक सांगलें ना? सांग तूं'.

ती गजाल तितल्यान सोपोवची म्हण कदमान म्हळें, 'तशें जाल्यार फाल्यां वतां. आतां रात जाली न्हय?'

'रात खंय जाल्या? कदम, हार्लीसराक तूं म्हगेलें चडशें आयकना आं. ह्या दिसांनी रात बेगीनूच जाता. कोणाकूय सांगाताक घेवन वच.' अशें म्हणून तिणें भैरूक उलो मारून, हबुआक कदमाच्या सांगाताक धाडपाक सांगलें.

'हबुआ दिवो निवळ करता.' अशें भैरून म्हणनाफुडें बिन्दून ताका धपकायलो. 'परती जाप केली तुवें म्हाका?'

तें आयकून भैरू आनीक थंय रावलो ना. कदम हेवटेन तेवटेन भोंवतां भोंवतां रानचे कुडींत पावली. थंय रानतली एकटीच बशिल्ली. थंयच एके कुशींत बसून बिन्दून तिका म्हळें, 'आतां तुमीच पंच जायात आं. खऱ्यांनीच सांगात, चड चूक कोणाची आशिल्ली?'

रानतलेक कांयच समजलें ना. तिणें अजापान विचारलें, 'कसली चूक म्हणटात तुमी सूनबाय?'

'त्या दिसाची गजाल गे. कितें म्हणिल्लें हांवें? हांवें इतलेंच विचारिल्लें, 'दिदी, त्या दिसांनी तुवें बाबूक कितले पयशे दिल्ले? भुरग्यांच्या हातांत पयशे दिवंक जायनात, अशें खंयचो शाणो म्हणचो ना, सांग पळोवया. आनी जेन्ना हांवें विचारलेंच तेन्ना, 'ना गे, तो चडूच रडूंक लागलो म्हणून दिले.' इतलेंच सांगल्यार काम जाल्लें. झगडपाची गरजूच नाशिल्ली. गजाल कित्याक वाडटली आशिल्ली? आनी हे खातीर सोपूत कित्याक घेवंक जाय आशिल्लो? चार आयदनां एकठांय आयलीं म्हण्टकच तीं एकामेकांक आपटतलींच. आमी सगळीं एकूच आसात. जाल्यार येदो व्हडलो सोपूत कित्याक? हांवूय तुमकां सांगतां, ह्या जल्माची हांव तिचें तोंड पळोवची ना. दुस्माना मुखार वयर करीन पुणून तिचे मुखार मात्त न्हय.'

रानतली सदांच थोडें उलोवपी आशिल्ल्यान, तिका कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना आनी ती वोगीच रावली. बिन्दून दुकांनी भरिल्ले दोळे पदरान बेगीबेगीन पुसले आनी म्हळें, 'हांव म्हणटां तिडकीसरशीं कोणूय सोपूत घेता. पुणून उदक

लेगीत पियेवपाचें थांबयता गे? पळय न्हय, चल्याक लेगीत येवंक दिलो ना. हाका कितें जाणटेपणाचें लक्षण म्हणपाचें? हजार फावटीं म्हणटा, हांव ल्हान आसां, म्हाका समजिकाय उणी आसा. समज, हांव तिगेलीच धूव आशिल्ली जाल्यार, ती कितें करतली आशिल्ली? बरें आसा. हांवूंय तिचें नांव घेवची ना!. पळयातूच तुमी.'

तरीकूय रानतली वोगीच रावली, तेन्ना बिन्दून फुडें म्हळें, 'आनी सोपूत घेवपाक कितें तीच एकली जाणां? म्हाकाय बरो कळटा. फाल्यां हांवें तिगेल्या घराकडेन वचून म्हळें, 'कट्टीभर वीख दिना जाल्यार तुका सोपूत आसा.' अशें म्हळें जाल्यार कशें जावपाचें? हांव आनीक दोन चार दीस ओगी रावतलीं, पळयतलीं आनी मागीर तसोच सोपूत घालून येतलीं. नाजाल्यार म्हजी हांवूच वीख पियेवन, तिणें धाडिल्लें म्हण सांगतलीं. मागीर लोक तिगेल्या नांवार कशे थुकतले तें पळय. मागीर येतली तिगेली तकली जाग्यार.'

तें आयकून रानतली भियेली आनी तिणें हळू म्हळें, 'नाका नाका गे सूनबाय, असलें येवजूं नाका. झगडीं कितें सदांच उरतात? तिच्यान तुजेबगर रावूंक जावचें ना, न्हय बाबूय तुजेबगर रावचो ना. आमकां जाल्यार हेच गजालीचें अजाप जाता, इतले दीस तो तुजेबगर थंय रावलोच कसो काय म्हण.'

'तेंच सांगता न्ही. तिणें ताका धपकावन बंद करून दवरला आसतलो. जो भुरगो एक रात लेगीत म्हजेबगर न्हिदनाशिल्लो, तो पांच दीस आनी चार राती थंय रावलोच कसो? हेचखातीर म्हाका ते बायलेचें तोंड पळयन दिसना. हांवें सांगलें ना तुमकां, दुस्मानाचें तोंड पळोवंक जायत, पुणून तिचें न्हय म्हण.'

तें आयकून रानतलेन आपल्या मनगटावयलो एक काळो दाग तिका दाखोवन म्हळें, 'पळय सूनबाय, हो दाग अजून हांगा आसा. ते रातीकडेन जेन्ना तुमी घुंवळ येवन पडिल्लीं, त्यावेळची गजाल तुमकां खबर ना. बाबून तुमगेल्या हड्ड्यार घालून घेतलें. तेन्ना ताका रडटना तुमी पळयल्लो जाल्यार.... आपूण मरतां काय उरतां हें लेगीत पळयनाशिल्लो. म्हणूंक लागलो मां मेली. तुमचेर उदक लेगीत शिपडूंक दिलें ना ताणें म्हाका, न्हय वारें घालूंक दिलें ना. हांवें ताका उठोवंक केलो जाल्यार, हांगा घास मारलो. व्हडले वयनीन धरलो जाल्यार

तिकाय चाबलो, तिचो पदरूय पिंजलो. लोकांनी मागीर वायटकान्नीक थंयच सोडली आनी ताका सांबाळूंक लागले. पांच लोकांक तो आटापा येनाशिल्लो.'

बिन्दू रानचेलेवयली नदर कुशीक काडिनासतना तिगेलीं उतरां आयकताली. तीं आपल्या अंतस्करणात रिगयताली. मागीर एक लांब हुस्कारो सोडून ती उठली आनी कुडींत वचून तिणें जमनीर घालून घेतलें.

आनीक चार दीस गेले. बिन्दूची आवय, बापूय, आतें, परती वचपाच्या पयल्या दिसा, घुंवळींतलीं सावचित जावन बिन्दू खाटीचेर बशिल्ली. कदम वारो घालताली. आनीक कोण नाशिल्लो. बिन्दून कदमाक आपले म्हऱ्यांत आपयली आनी ल्हवूच विचारलें, 'कदम, दिदी आयल्या गे?'

'ना. आमी इतलीं जाणां आसतना, तिका आनी कश्ट कित्याक दिवंक जाय?'

थोडो वेळ बिन्दू वोगीच रावली आनी मागीर तिणें म्हळें, 'हीच तुमची व्हडली चूक. अक्कल ना जाल्यार लेगीत तुमचीच बुद्द चलयात. अशेतरेन तुमी सगळीं आमकां मारून उडयतलीं. पुजेच्या दिसाय तुमी सगळीं आशिल्लीं. पुणून ती आयली ना तेमेरेन कांयच जावंक पावलें ना. तुमी आनी ती एक जाता? तिगेल्या नाखटा इतलीय तुमकां अक्कल ना.'

इतल्यांत तिचे आवयन थंय येवन म्हळें, 'जांवय बापू म्हणटाले, तुकाय चार दिसांखातीर आमचे बराबर व्हेल्यार बरें जातलें म्हण. कशें?'

'म्हगेलें वचप ना वचप कितें तांचे सांगणेचेर आसा? तांणी बरें म्हळें म्हण कितें जालें? म्हगेल्या दुस्मानाकडल्यान जेमेरेन म्हाका निरोप मेळना, तेमेरेन म्हगेलें वचपाचें कशें जावं येता?'

बिन्दू कितें सांगूंक सोदताली, तें आवयक कळ्ळें. 'तूं जावेची गजाल म्हण्टा मूं? तिगेले मान्यतायेची आतां तुका गरज ना. तुमी वेगळीं जालीं. आतां तुका घोवाचीच मान्यताय पुरो.' अशें जेन्ना तिणें म्हळें, तेन्ना बिन्दून तिका जाप केली, 'शे शे, तशें जावचें ना. खंयूय आसली तरीय ती जिती आसासर सगळें

तिचेकडेन आसा. हांव आनीक कितेंय करीन, पुणून तिचे सांगणेबगर म्हज्यान घर सोडप जावंचें ना. देराकूय राग येतलो.'

एलोकेशीन तेवटेन वतना तें आयकलें आनी म्हळें, 'हातूंत हुसको करपासारकें कितें आसा? हांव सांगतां न्हय. वच तूं.'

बिन्दू कांयच उलयली ना. आवयन म्हळें, 'बरें आसा. मनीस धाडून विचारुंया.'

मनीस धाडीत जाल्यार आनीक वायट जातलें आई. हांव तिका बेस बरी वळखतां. तोंडार रोखडीच वच म्हणटली आनी मनांतल्यान कश्टी जावन, खऱ्याबराबर चार फटीच्यो गजाली घालतली आनी म्हज्या देराक सांगतली, तुमी वचात आई. म्हजें येवपाचें जायतऽ शें दिसना.'

आनी सगळीं गेलीं, तेन्ना तें रितें घर तिका खावंक लागलें. सकयले एके कुडींत एलोकेशी रावताली आनी वयले एकेंत ती. बाकीच्यो कुडी मनशांक आशेताल्यो. आळसावल्ल्या मनान भोंवतां भोंवतां ती तिसऱ्या मजल्यावयले एके कुडींत पावली. फुडाराक येवपा आशिल्ले सुनेखातीर तिणें ती मुद्दाम बांदून घेतिल्ली. थंय पावतकच मात तिच्यान दोळ्यांतलीं दुकां कशींच आडावंक जायना जालीं. तीं पुसतां पुसतां तिगेलो पदर ओलो चिप्प जालो. सकयल देंवतना वाटेर तिका माधव मेळ्ळो. ताका तिणें विचारलें, 'आतां कशें जावपाचें?'

'कितें?' कांयच समजूंक नाशिल्ल्यान माधवान विचारलें आनी 'कांय न्हय, कांय न्हय, तुमी वचात तुमचे वाटेन.' अशें म्हणून ती सकयल देंवून आयली.

दुसऱ्या दिसा सकाळची गजाल. माधव आपले कुडींत एकलोच बसून आपलें काम करतालो. इतल्यांत अचकित भितर येवन बिन्दून रडत रडत म्हळें, 'जाणां, व्हडलो देर नोकरी करता खंय.'

'हय जाणां.'

'हें तांगेलें नोकरी करपाचें वय आसा?'

'मनशाच्या वयाचो आनी नोकरेचो कितें संबंद? नोकरी आपले गरजेक लागून करता कोणूय.'

'तांकां उणे कितें आसा? आमी कितें परकी मनशां? म्हगेलें झगडें जालां तें म्हगेले जावेकडेन. तुमी दोगूय जाल्यार भावूच आसात मूं?'

'हय. सवते भाव. एका कुटुंबातले.' कागदां उस्तितां उस्तितां माधवान म्हळें.

'तें आयकून बिन्दू सामकी निर्शेली. 'म्हळ्यार कितें तुमी ताका नोकरी करपाक दितले?' तिणें कळवळून विचारलें.

माधवान मान वयर करून तिचे नदरेक नदर दिली आनी थंडसाणेन म्हळें, 'कित्याक करूंक दिवची न्हय? ह्या संवसारांत जण एकलो आपलें वेगळें नशीब घेवन जल्माक येता. मागीर जशें नशिबांत आसत, तशें तो भोगता. हांवूंय जाल्यार ताचीच एक देख न्हय? आवय बापूय केन्ना मेले ते लेगीत म्हाका खबर ना. आमी गरीब लोक अशें वयनी कडल्यान आयकल्लें, पुणून कश्ट आनी दुख्ख मात म्हज्या वांट्याक आयलीं नात. कशें म्हण कोण जाणा, म्हाका कितें जाय तें मेळटालें. धवेफुल्ल कपडे, शाळेचो खर्च, पुस्तकांचे पयशे, खानावळीक पयशे, सगळें वेळार मेळटालें. मागीर वकील जालों आनी जोडूय बरी जावंक लागली. तुंवूय कुळारच्यान इतलें धन घेवन आयली. सगळेच दीस बदलले. एक सुंदरशें चिऱ्यांचें घरूय बांदून जालें. पुणून भाऊक पळय, सदांच तोंड धापून कश्ट करीत आसा. केन्ना मुस्तींतले पोन्ने कपडे घालता. शिंयांच्या दिसांत लेगीत, ताका केन्नाच सुताचो सोडून दुसरो उबेचो कपडो घालूंक मळूंक ना. एक वेळ मूठभर अन्न खावन ताणें आमचे खातीर... सगळ्या गजालींची आतां याद जायना आनी याद करपाचीय गरज दिसना. थोडे दीस ताणें विसव घेतिल्लो, पुणून देव आतां तो कळंतरासयत ताचेकडल्यान वसूल करता.'

इतलें म्हळें आनी माधव परतून कागदां सोदूंक लागलो.

बिन्दू सामकी निश्प्राण जाल्ली. फाटल्या दिसांची ती गजाल आयकतना, घोवाच्या मनांत लिपिल्ल्या आपणांविशींच्या तिटकाऱ्याची तिका जाण जाताली.

तागेल्या एका एका उतरांतल्यान तिका तो अणभव येतालो. पुणून ती पाशाण जाल्लेवरी थंय उबी आशिल्ली.

कागदां उस्तितां उस्तितां माधव आपलेभितरूच उलोवंक लागलो, 'आनी नोकरीय कसली? राधापूर कचेरेंत येवपावचपाची. पांच कोसांची वाट. सकाळीं चार वरांचेर वचून अन्नउदक नासतना थंय काम करपाचें आनी रातचो घराकडेन येवन अर्दी भाकरी खावपाची. आनी इतले कश्ट करून पगार कितलो म्हळ्यार, म्हयन्याक फकत बारा रुपया.'

बिन्दू सामकी थरथरली. 'कितें म्हळें, अन्नउदकाविरयत काम करून म्हयन्याक फकत बारा रुपया?' तिच्या मनाचो आक्रोश उतरांवाटयां भायर सरलो.

'हय, फकत बारा रुपया. पयलींच वय वाडलां. तातूंत भांगेचें व्यसन. पावशेर दूद लेगीत केन्ना मेळना. देव भाऊक कश्टांची तस्नीप दिता, ती दोळे उक्ते दवरून पळोवपाची.'

बिन्दूच्या दोळ्यांक दुकांची धार लागली. मागीर तिणें जल्मांत केन्नाच करूंक नाशिल्लें तें केलें, दिमयो मोडून तिणें घोवाचे पांय धरले आनी रडत रडत म्हळें, 'हांव तुमचे पांय धरतां. कितेंय तरी उपाय करात. ते सामके दुबळे आसात. अशे तरेन ते चड दीस...'गळो भरून आयिल्ल्यान तिच्यान फुडें उलोवंक नज जालें.

माधवान दोळ्यांत येतालीं तीं दुकां बळयां आडायलीं आनी म्हळें, 'म्हज्यान कितें करूंक जाता? वयनीन आमच्या घरच्या एका गोट्याकलेगीत आफुडीना म्हण सोपूत घेतला. कांयच केलें ना जाल्यार तांचो संवसार कसो चलतलो? हांवूंय तेंच येवजितां.'

बिन्दू अजून रडटा थंय आशिल्ली. तिणें तशेंच म्हळें, 'तें म्हाका कांय खबर ना. तुमी म्हजे देव आनी ते तुमचेपरसूय व्हड आसात. शी शी. जी गजाल मनांत लेगीत येवजिली ना, ती गजाल तोंडांतल्यान उलयतां उलयतां तिका हुंडको आयलो.

'बरें आसा. तूं वयनी म्हऱ्यांत वच. तितल्यान तिगेलो राग एकादो उणोय

जायत. ती चडांत चड खोशी जाता अशें तुवें करूंक जाय. म्हजे अशे पांय धरून बसली म्हण कांयच जावपाचें ना.'

बिन्दू ताचे पांय सोडून उठली आनी तिणें म्हळें, 'पांयां पडपाची म्हाका संवयूच ना. आतां म्हाका समजलें, ते रातीकडेन तिणें आमगेर उदकलेगीत कित्याक घेतलें ना तें. पुणून तुमीय दुस्मान जाल्ले भाशेन, सगळें जाणा जावनूय वोगी कित्याक रावले? म्हजी चूक वाडतूच गेली आनी तुमी म्हाका सांगलें लेगीत ना.'

माधव अजुनूय कागदां उस्तुपाचें काम करतालो. ताणें म्हळें, 'ही वोगी रावपाची कला भाऊकडल्यान शिकलां. देव करूं आनी तोंड धापून बसलां थंयच हांव संवसारांतल्यान उठून वचूं.'

आनीक उलोवप बरें न्हय अशें बिन्दून येवजिलें आनी तोंड धापून कुडींत वचून तिणें भितरल्यान खिळी घाली.

माधव उठचेलो जालो आनी ती परतून आयली. तिचे दोळे रगताभाशेन तांबडे भडक जाल्ले. तिगेली ती दशा पळोवन माधवाक तिची काकूळट दिसली. 'तूं एक फावट तरी वचूच म्हऱ्यांत. तुका तिच्या अंतस्करणाची वळख ना. एकदां तिच्या फुड्यांत उबी रावशी जाल्यार, सगळें कितें व्यवस्थीत जातलें.'

बिन्दून काकुळटेन म्हळें, 'तुमी वचात न्ही. हांव बाबूचो सोपूत घेवन सांगतां...'

माधवान तिका फुडें उलोवंक दिलें ना. तिका कितें म्हणपाचें आसा, तें ताका कळिल्लें. ताणें रागान म्हळें, तुवें हजार फावटीं सोपूत घेतलो जाल्यारूय, म्हज्यान भाऊक सांगूंक जावचें ना. म्हज्यांत तितली धिटाय ना. ताणें कितेंय विचारलेबगर ताका आपूण जावन कितेंय सांगपाचें धाडस म्हज्यांत ना.'

बिन्दू थंयसून कशीच हालली ना, तेन्ना माधवान विचारलें, 'तुका वचपाक जावचें ना?'

तिणें रोखडेंच 'ना' म्हळें आनी ती थंयसून उठून गेली.

शाळेंत वचपाची वाट घरालागींच आशिल्ली. पयले कांय दीस अमूल्य सत्रेचो आडोस करून तेवटेनच्यान वतालो पुणून ह्या दोन दिसांनी तांबड्या रंगाची सत्री दिसूंक नाशिल्ली. तिची वाट पळयतना बिन्दूचे दोळे थकताले. तरी आसतना ती पडवेर येवन मुखावयल्या रस्त्याकडेन एकसारखी पळयत बसताली. सकाळच्या णव धांच्या सुमाराक कितलेशेच भुरगे सत्र्यो फुलोवन तेवटेनच्यान वताले आनी शाळा सुटली म्हण्टकच तेवटेनच्यानूच परते येताले. पुणून बिन्दूक जे सत्रेचो ध्यास लागिल्लो, ती सत्री मात दिसनाशिल्ली आनी ती तागेली चालूय बी.

सांजवेळा दोळे पुशीत ती सकयल आयली आनी नरेन्द्राक आपोवन तिणें विचारलें, 'नरेन्द्र, शाळेंत वचपाची वाट हीच न्ही? मागीर बाबू हेवटेच्यान कित्याक वचना?'

नरेन्द्र कितेंच उलयलो ना.

बिन्दून ताका म्हळें, 'तुमी दोगूय भाव बराबर येयात, वचात. तें बरें जातलें.' नरेन्द्र अमूल्याचेर माया करतालो. पुणून ताची माया करपाची तरा मात वेगळी आशिल्ली. ताणें ल्हवू आवाजांत म्हळें, 'मामी, तो लजेक लागून हे वाटेन येना. थंय पावलो म्हणटकच, असो भायरसून वता.

बिन्दून हांसून विचारलें, 'ताका लज कित्याक दिसता? तूं ताका हेवटेनच्यानूच वच म्हणून सांग.'

'तो हेवटेच्यान वचचोच ना मामी. कित्याक जाणां?'

बिन्दून उत्सुकतायेन विचारलें 'कित्याक?'

नरेन्द्रान भियेत म्हळें, 'तूं रागार जावची ना मूं?'

'ना.'

'कोणाक सांगची ना?

'ना.'

'म्हजे आईक लेगीत?'

बिन्दून वित्रागांनी म्हळें, 'ना...ना. सांग तूं. हांव कोणाकूच सांगची ना.'

'तिसऱ्या मास्तरान ताचो कान पिळ्ळो.'

तें आयकून बिन्दूच्या आंगाक सामको उजो पेटलो. तिणें विचारलें, 'ताच्या आंगाक हात लावपाक हांवें मनाय केल्ली न्हय?'

'ताची कितें चूक? तो नवोच आयला. हबुआ खरो डांबीस आसा. ताणें येवन आईक कितेंतरी सांगलें आनी तिणें तें मास्तराक सांगूंक लायलें. तिसऱ्या मास्तरान कान पिळून ताका रोखडीच बुद्द शिकयली. कशी जाणां मामी? ही अशी, अशें म्हणून नरेन्द्रान आपल्या कानाक पीळ घालून दाखयलो.

'हबुआन मास्तराक कितें सांगलें?' बिन्दून ताका मदींच थांबोवन विचारलें. 'तें म्हाका खबर ना मामी. खावपाचे सुटयेंत हबुआ म्हगेलो डबो घेवन येता. तो आयलो म्हण्टकच अमूल्य सदांच म्हजे म्हऱ्यांत धांवत येता आनी 'कितें खावंक हाडलां तें म्हाकाय दाखय मरे नरेन्द्रभय्या,' अशें म्हणटा. आईन म्हाका सांगिल्लें, ताचो रेंच जाता म्हण.'

नरेन्द्र सांगतालो आनी तागेलें एक एक उतर तिचे काळजाचे कुडके कुडके करतालें.

'ताचेखातीर कोण डबो हाडटा रे?' तिणें कळवळून विचारलें.

नरेन्द्रान भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें, 'ना मामी. ते लोक गरीब न्ही? बोल्सांत

घालून भाजिल्ले चणे हाडटा आनी झाडाच्या आडोसाक बसून खाता.'

तें आयकून बिन्दूक सगळी धर्तरी आपणांभोवतणी घुंवता अशें दिसलें. जमनीचो आदार घेवन ती थंयच बसली. थोड्या वेळान ओडिल्ल्या आवाजांत तिणें म्हळें, 'नरेंद्र, तूं वच आतां!'

रातच्या जेवणावेळार तिका बळयां पानार बसोवची पडली. अन्नाची एकूय उंडी तिच्या गळ्यासकयल वचना जाली; तेन्ना 'जिवाक बरें ना' अशें निमित्त करून ती पानावयल्यान उठली. दुसऱ्या दिसाय ती न्हिदून रावली. ती कोणाकडेनूच उलयली ना. तिका कांयच येवजना जालें. 'कितेंय वायट घडचें ना मूं?' हाचो तिका मनांतल्यान भंय दिसतालो आनी ताका लागून तिचें चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें.

दिवो जळटालो. हांतुणार न्हिदिल्लेकडेन माधव कितेंयतरी वाचतालो. इतल्यांत बिन्दू येवन ताच्या पांयांकडेन बसली. माधवान वयर पळोवन विचारलें, 'कितें जालें?'

बिन्दू सकयले मानेन ताच्या बोटाचें नाखूट किल्लांवंक लागली. बायलेच्या मनांत चल्लां तें माधवाक कळ्ळें. ताणें तिका म्हळें, 'म्हाका तुज्या मनांतली गजाल कळटा बिन्दू. पुणून म्हजेम्हऱ्यांत रडली म्हण प्रस्न सुट्टा? तांकां समजाय.'

बिन्दू सामकी रडकुळी जाल्ली. तिणें म्हळें, 'तुमी वचात.'

'हांव वचूं? कितें सांगता? भाऊ म्हजें आयकतलो?'

'हांव सांगतां न्हय, चूक म्हजी. कान धरतां. तुमी तांचेकडेन उलयात तरी.'

म्हज्यान जावंचें ना. अशें म्हणून माधवान कूस परतिली आनी न्हिदपाची तयारी केली.

तो कितेंयतरी उलयतलो म्हण बिन्दू बरोच वेळ बसून रावली. पुणून कांयच जाप मेळ्ळी ना, तेन्ना ती उठून चलूंक लागली.

दुसऱ्या दिसा यादवान बिन्दूक कुळारा वचपाची मान्यताय दिवन एक चीट

धाडली. चिटयेंत तिगेलो बापूय बरो नाशिल्ल्यान रोखडेंच वचचें अशेंय बरयल्लें. दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत बिन्दू गाडयेंत बसली. रानतलेन गाडयेम्हऱ्यांत येवन म्हळें, 'बापूय निवळ्ळो म्हण्टकच रोखडीच यो सूनबाय.'

गाडयेंतली सकयल देवून बिन्दून रानतलेच्या पांयांक हात लायलो. रानतली फाटीं सरली. बिन्दूचें हें रूप हाचेपयलीं कोणेंच पळोवंक नाशिल्लें. रानतलेक तिणें म्हळें, 'तुमी बामणी आसात. वयानूय म्हजेपरस जाण्टीं आसात. हांगा म्हजें परतून येवप जावचें न्हय, हीच म्हजी निमणी यात्रा जावची, असो म्हाका आशीर्वाद दियात.'

रानतलेक कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. ती बिन्दूच्या निर्शेल्ल्या तोंडाकडेन पळोवन रडूंक लागली. थंय एलोकेशीय आशिल्ली. तिणें म्हळें, 'कितें उलयता गे तूं सूनबाय? कोणाले आवय बापूय केन्ना बरे ना जायच नात?'

बिन्दू वोगीच रावली. मागीर तिणें पदरान दोळे पुसले आनी थण्डसाणेन म्हळें, 'नमस्कार करतां आं भाभी. वचूं आतां?'

एलोकेशीनूय भरिल्ल्या गळयान म्हळें, 'चल तूं. हांव आसां हांगा. हुसको करूं नाका.

बिन्दू गाडयेंत बसली तशी गाडयेकारान गाडी धांवडायली.

अन्नपूर्णेक रानतलेकडल्यान जेन्ना ती खबर कळ्ळी, तेन्ना तिच्या काळजांत चर्र..चर्र जालें. हाचेपयलीं बाबूक सोडून बिन्दू केन्नाच कुळारा वचूंक नाशिल्ली.

एक म्हयनो जावन गेल्लो. पुणून तिणें एकूय फावट ताका पळोवंक नाशिल्लो. तिच्या अंतस्करणांतली वेदना अन्नपूर्णेन वळखली.

ते रातीकडेन बापायल्या हांतुणार पडला थंय बाबू कसली तरी गजाल सांगतालो. दिव्याच्या उजवाडांत गोजडी पांगरून न्हिदिल्लेकडेन अन्नपूर्णेन एक लांब हुस्कारो सोडलो आनी तिच्या तोंडांतल्यान आपशींच उतरां भायर सरलीं, 'राम राम. हीच निमणी यात्रा जाव, अशें पापणीन कित्याक म्हळें काय? आई दुर्गे, पाव गे सायबिणी. आमगेले धाकलेक बरे बशेन परतून हाड.'

बायलेच्या तोंडांतल्यान आयिल्लीं उतरां यादवान आयकलीं. ताणें म्हळें, 'व्हडले, तुवें बरें केलें ना. म्हगेले सूनबायक तूं सारकी वळखलीं ना. तूंच न्हय, तुमी कोणूच वळखलीं नात.'

अन्नपूर्णेन हुस्कारो सोडून म्हळें, 'बिन्दूय दिदी दिदी करून एकदम आयली ना. आपल्या चल्याक तिच्यान बळयां व्हरूंक जातालो. कोण आडायतलो तिका? त्या दिसा सगळें काम करून घराकडेन येवपाच्या वेळार लेगीत म्हाका न्हय न्हय तीं उतरां उलयली ती.'

यादवान तिका उलयतना मदींच आडायली. 'सूनबायच्या मनांतल्यो गजाली म्हाका कळटात व्हडले. तुज्यान जर तिची चूक पोटांत घालूंक जायना, जाल्यार तूं व्हडली जाली? जशी तूं, तसोच तो माधव. म्हाका दिसता, तुमी दोगांनीय मेळून म्हगेले सूनबायेक मारून उडयली.'

अन्नपूर्णेच्या दोळ्यांतल्यान टप् टप् करून दुकां गळूंक लागलीं. बाबून तिका विचारलें, 'मां, परतून येवचीना गे दिदी? अन्नपूर्णेन पदरान दोळे पुसले आनी ताका म्हऱ्यांत घेवन म्हळें, 'मां म्हऱ्यांत वतलो तूं?'

बाबून मानेन 'ना' म्हळें.

'कित्याक रे? मां तुगेल्या आज्यागेर गेल्या. तूंय फाल्यां वच आं.'

बाबू कांयच उलयलो ना. तिणें परतून विचारलें, 'वतलो मरे?'

पांगरुणांत तोंड लिपोवन बाबून 'ना' म्हळें.

सकाळ जावचे फुडेंच यादव कामार वचपाचे तयारेक लागतालो. पांच स दिसांपयलीं तो असोच उठिल्लो आनी गुडगुडेक तंबाखू घालूंक बशिल्लो. इतल्यांत अन्नपूर्णेन थंय येवन म्हळें, 'आज चड कळाव जालो. सकाळ जाली पळयात.'

यादवान गुडगुडी कुशीक दवरून चिंतेस्त जावन म्हळळें, 'आज म्हज्या जिवाक बरें दिसना व्हडले. रातीं सूनबाय म्हजे कुडीच्या दारांत उबी राविल्ली'. मागीर 'दुर्गे दुर्गे' म्हणत तसोच तो कामार गेल्लो!

अन्नपूर्णा रानचेकुडींत काम करताली. पुणून तिचें चित्त मात कामांत लागनाशिल्लें. इतल्यांत नव्या घरचो मानाय आयलो आनी ताणें सांगलें, 'धाकली सून बरी ना, असो निरोप आयला म्हण माधव बाबू काल रातींच फरासडांग्याक गेल्यात.'

तें आयकून घोवान त्या दिसा सांगिल्ल्या गजालीची अन्नपूर्णेक याद जाली आनी तिच्या आंगार सर्र करून कांटो फुललो. तिचें हड्डें धडधडूंक लागलें. तिणें मानायांक विचारलें, 'कितें जालां खंय रे धाकले सुनेक?'

'तें म्हाका सारकें खबर ना. परती परती घुंवळ येवन पडटा आनी आनिकूय कितें तरी जालां अशें घरांत उलयतालीं.' मानायान सांगलें.

सांजवेळा कामावयल्यान येतकच यादवाक जेन्ना ती गजाल कळ्ळी तेन्ना तो रडूंक लागलो. म्हणूंक लागलो, 'कितल्या कश्टांनी हांवें ती भांगराची मूर्त घरांत हाडिल्ली. तुमकां तिचें मोल कळ्ळें ना. आनी तुमी ती उदकांत सोडून दिली. हांव जाल्यार आतांच चल्लों.'

घोवालीं उतरां आयकून अन्नपूर्णेचें काळीज दुख्खान आनी पच्छतापान जळूंक लागलें. बिन्दूचेर तिची अमूल्यापरसूय चड माया आशिल्ली. आपलीं दुकां कशींबशीं पुसलीं आनी घोवाचे पांय धुवन ताका बळयां पुजेक बसयलो. मागीर आपूण येवन पायणीच्या काळखांत बसली. थोड्या वेळान माधव आयलो. अन्नपूर्णा न्हय न्हय तें येवजून थरथरताली. माधवाच्या पावलांचो आवाज आयकलो आनी तिणें दोनूय कानांत बोटां घालीं.

रानचेकुडींतलो काळोख पळोवन माधव भायले कुडींत आयलो. भावज काळखांत बशिल्ली पळोवन ताणें सुकिल्ल्या ताळ्यान म्हळें, 'तुवें आयकलां जातलें वयनी.'

अन्नपूर्णेन 'हय' वा 'ना' कांयच म्हळें ना, मान लेगीत वयर उखल्ली ना.

माधवान परतून म्हळें, 'अमूल्याक एक फावट व्हरूंक जाय. वयनी, एकादो तिगेलो मरणकाळ आयला जावं येता.'

अन्नपूर्णेन जमनीर घालून घेतलें आनी ती व्हडाव्हडान रडूंक लागली. यादव कुडींतल्यान पिशाभाशेन धांवत आयलो आनी ताणें आड्डी मारून म्हळें, 'अशें जावचें ना माधवा. हांव सांगतां तुका, अशें जावंचें ना. जाणां जावन वा चुकून माकून हांवें कोणाक केन्ना दुख्ख दिवंक ना जाल्यार, ह्या म्हातारपणांत देव म्हाकां दुख्ख कित्याक दितलो?'

माधव वोगीच रावलो. ताका ताणें म्हळें, 'म्हाका सगळी गजाल सारकी सांग. हांव वचून म्हगेले सुनबायक परती हाडटलों. तूं भियेवं नाका माधव. तुवें गाडी हाडल्या?'

'हांव भियेवंक ना भाऊ. पुणून तुमीच...'

'शे, तशें काय ना.' अशें म्हणून यादव बाकीच्यांक मोठ्यामोठ्यान उले घालूंक लागलो. 'आगे व्हडले, आरे अमूल्य.'

माधवान ताका थांबोवन म्हळें, 'पुणून भाऊ, इतले रातीचे...' 'ना ना. आतां आपय. इल्लोय उशीर करूंक उपकारना. तूं भियेवं नाका माधव. गाडी आपय बेगीन. ना जाल्यार हांव पांयांनी चलून वतलों.'

मागीर माधवान वेळ केलो ना. तो गेलो आनी गाडी घेवन आयलो. गाडी आयली, चवगांय भितर बसलीं आनी फरासडांग्याचे वाटेक लागलीं. 'अशें हें कशें जालें?' यादवान माधवाक विचारलें.

'हांव थंय नाशिल्ल्यान म्हाका सारकें खबर ना. थंय तीं सांगतालीं. ताचेवयल्यान पांच स दीस तिका कडकडीत जोर आयिल्लो. परती परती घुंवळ येताली. त्या दिसाच्यान तिणें पोटांत उदक, दूद न्हय, वखदाचो थेंब लेगीत घेवंक ना. पुणून आतां आशा करीसारकें कांयच ना.'

यादव ताचेर तापलो.

'तोंड धाप. आनीक उलोवं नाका. हांव सांगतां, हजार फावटीं आशा आसा. म्हगेली सूनबाय अजून जिवी आसा आनी उरतलीय. माधव, तूं जाणा जा, ह्या म्हातारपणांत देव म्हाका फट उलोवंक लावचो ना.आजमेरेन हांव

केन्नाच फट उलोवंक ना.'

यादवाच्या उतरांनी माधवाचो गळो भरून आयलो. ताणें भावाच्या पांयांक हात लावन तो हात आपल्या माथ्याक लायलो आनी तो तसोच मोन्यांनी बसून रावलो.



कितेंच खायजेवीनासतना बिन्दू कितले दीस उपास करताली हें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. आवयगेर पावली त्याच दिसा तिका जोर आयिल्लो. फुडल्या दोन दिसांत तिका घुंवळेर घुंवळ येवंक लागली. निमणें घुंवळींतल्यान साबुद्दीचेर येवपाक तिका खुबूच कळाव लागलो. नेटाचे उपाय करून तिका साबुद्दीर हाडली. तेन्ना तिची नाडी सामकीच मंद चलताली. ती खबर कळनाफुडें रोखडोच माधव आयिल्लो. बिन्दून ताच्या पायांची धूळ माथ्याक लायली आनी ती दाडवळां घट्ट आवळून हातुणाचेर पडून रावली. कितले उपाय केले, पुणून तिणें तोंड उगडून दुदाचो वा उदकाचो एक थेंबलेगीत घेतलो ना.

'जीव असो वाटेक कित्याक लायता?' माधवान तिका विचारलें आनी तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. थोड्या वेळान तिणें ताका आपले म्हन्यांत आपयलो आनी ल्हवू ल्हवू करून ती ताका सांगूंक लागली.

'म्हजें म्हणून जें कितें आसा, तें सगळें बाबूचें. फकत दोन हजार रुपया नरेन्द्राक दियात आनी ताका शिकयात. ताची म्हज्या बाबूचेर खूब माया आसा.'

माधवान दातांनी ओंठ आवळून धरले आनी आपलें रडप थांबयलें.

'हें पळयात, बाबूबगर दुसऱ्या कोणाच्याच हातान म्हाका अग्नी दिवं

नाकात!' ओडिल्ल्या आवाजांत तिणें म्हळें. तोय घाय माधवान सोंसलो आनी तिका विचारलें, 'तुका कोणाक पळोवपाची इत्सा आसा?'

बिन्दून पयलीं 'हय' अशी मान हालयली. पुणून मागीर म्हळें 'नाका!. आसूंदी.'

बिन्दूचे आवयन परतून एक फावट तिका वखद दिवपाचो यत्न केल्लो, पुणून तिणें पयलींभाशेनूच दाडवळां आंवळून धरलीं.

माधव एकदम उठलो आनी ताणें म्हळें, 'अशांनी जावचें ना बिन्दू. आमचें तूं कांयच आयकना. आतां तूं जांचें आयकलेबगर रावची ना, तांकांच हाडूंक वतां. म्हजें इतलें मात आयक, हांव परतो येतकच म्हाका तूं दिश्टी पडूं दी.'

भायर येवन ताणें दोळे पुसले. ते रातीकडेन बिन्दूक थंड बरी न्हीद लागली आनी मागीर सकाळ जाली. सूर्याच्या उदेवाबरोबर माधवान कुडींत येवन जनेलां उक्तीं केलीं. भितर घणघणीत उजवाड आयलो. जिवाक तरतरी हाडची त्या उजवाडांत बिन्दून दोळे उगडून आपल्या घोवाकडेन पळयलें आनी मुखामळार हाशें खेळयत विचारलें, 'केन्ना आयले तुमी?'

'हो आतांच येतां थंय आसां. भाऊची आवतिकाय सामकी पिशाभशेन जाल्या.' तें आयकून बिन्दून म्हळें, 'म्हाका कळटा तें. तांच्या पांयांमुळची इल्ली धूळ हाडल्या तुमी?'

'तोच आयला न्ही. भायर गुडगुडी ओडटा. वयनीय आयल्या. हात पांय धुवपाक गेल्या. बाबूक गाडयेंतूच न्हीद लागली. तसोच व्हेला आनी माडयेवयल्या कुडींत घाला. उठोवं ताका?'

घोवाल्या उतरांनी बिन्दूच्या जिवाक हुशारी आयली. तिणें सवकसायेन म्हळें, 'नाका आसूंदी!' आनी मागीर ती कूस परतून दुसरे वाटेन तोंड करून न्हिदली.

अन्नपूर्णा कुडींत आयली आनी बिन्दूच्या उशाकडेन बसून तिच्या केंसांवयल्यान तिणें मायेन हात भोंवडायलो. मात बिन्दू शिटकावली आनी तशीच

पडून रावली. अन्नपूर्णा रडूंक लागली. रडपाचो ओघ मातसो उणो जातकच तिणें म्हळें, 'कितें गे धाकले, वखद कित्याक घेना? मरूंक जाय म्हणून हें सगळें करता?'

बिन्दू कांयच उलयली ना. अन्नपूर्णेन तिच्या कानाकडेन तोंड व्हेलें आनी म्हॉवाळ उतरांनी तिका म्हळें, 'तुजी ही दशा पळोवन म्हज्या काळजाचे कुडके जातात, हें कशें कळना गे तुका?'

बिन्दूक उलोवचेंच पडलें. 'म्हाका तें कळटा गे दिदी.'

'मागीर हेवटेन तोंड कर तर. तुगेलो देर पळय तुका व्हरूंक आयला आनी बाबू रडून रडून खरशेल्ल्यान गाडयेंतूच न्हिदला. म्हजें आयक. हेवटेन तोंड कर.'

तरीकूय बिन्दून तोंड वळयलें ना. मान हालोवन तिणें म्हळें, 'दिदी पयलीं तूं...'

इतल्यांत माधव भितर आयलो. ताका येतना पळोवन अन्नपूर्णेन बिन्दूच्या माथ्यावयलो पदर सारको केलो. हाडां आनी कात एक जावन हांतुणाचेर पडिल्ले आपले मायेमोगाचे ते मूर्तीकडेन पळोवन यादव सामको कळवळ्ळो. दोळ्यांत येवंक सोदपी दुकांक ताणें बळयां आडायलीं आनी भरून आयिल्ल्या गळ्यान तिका म्हळें, 'सूनबाय, हांव तुका व्हरूंक आयलां. चल या आमी घरा.'

यादवाच्या थकिल्ल्या आनी कश्टांनी ओडिल्ल्या तोंडाकडेन पळोवन, थंय आशिल्ल्या सगळ्या लोकांचे दोळे ओले जाले. मातसो वेळ थांबून यादवान परतून म्हळें, 'जाणां चलये, एक दीस जेन्ना हांव तुका, हे म्हजे घरचे लक्षुमीक, घराकडेन घेवन गेल्लों, तेन्ना तूं साप्प ल्हान आशिल्ली. तुका व्हरपाखातीर हांगा परतून एक फावट येवचें पडत, अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें. आतां हांगा आयलां, तो एक तुका तरी घेवन वतलों, ना जाल्यार त्या घराचें तोंड लेगीत पळोवचों ना. चलये, तूं जाणां, हांव केन्नाच फट उलयना.'

इतलें सांगून यादव दोळे पुशीत भायर गेलो आनी बिन्दून रोखडीच कूस परतिली. जावेवटेन तोंड करून तिणें म्हळें, 'दिदी, दी म्हाका कितें खावंक दिता

तें. आनी म्हगेल्या बाबूक हाडून मातसो म्हज्या म्हऱ्यांत घाल आनी तुमी सगळीं भायर वचून विसव घेयात! आतां हांव कशीच मरचीं ना आनी म्हाका मरपाचेंय ना!'



**शरत्‌चंद्र चटर्जी** (1876 - 1938) नामनेचे बंगाली कथाकार आनी कादंबरीकार. भुरगेपणांत तांच्या वांट्याक अर्थिक विवंचना आनी निरशेवणी आयली. दोळे आनी संवेदना आशिल्लें मन उक्तें दवरून ताणी समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांची जीण लागसून नियाळ्ळी. पिडित, उपेक्षित, शोशित, वंचित अशा भारतीय समाजाची आनी त्या काळाच्या हिंदू बायलांची दुःखां ताणी पळयलीं आनी तातुंतल्यान तांचें साहित्य निर्माण जालें.

**'बिंदूलो बाबू'** ही अशीच एक नवलिका. मुखर्जींच्या घरांत नवी सून म्हणून आयिल्ली, नाखावयल्या रागाची बिंदू एक दीस, फुगार जावन एके कुशीक बशिल्ली आसता. अशा वेळार तिका मोण्णें मारुन येता म्हणपाची खबर आशिल्ली तिगेली जाव फुडलें अरिश्ट टळचें म्हणून आपणालो देड वर्साचो भुरगो हाडून तिचे मांडयेर दवरता. बिंदू निवळटा पूण मांडयेर दवरिल्ल्या भुरग्याक लागून एक वेगळेंच रामायण घडटा. तें वाचप्याक आकर्शून घेता.

**श्री. नरेंद्र कामत,** ह्या पुस्तकाचे अणकारपी स्वतः कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत बरोवपी एक लेखक आसात. तांगेलीं 'पारजतफुलां', 'देवाची करणी', 'म्हापुरूस', माणकां-मोतयां', 'काणी एका रत्नाची', 'देखदिण्यो काणयो', 'वांकडे म्हेडीक वाकडे नेम' अशी पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आसात.




**गोवा कोंकणी अकादमी**